वर्स 6 ◆ अंक 290 ◆ पानां 8 ◆ मोल ₹ 3.00 / पणजी / मडगांव / गोंय
REGD NO. G-2/RNP/GOA/28/2017-19 ◆ RNI: GOAKON/2016/69208 Facebook.com/Bhaangarbhuin @Bhaangarbhuin instagram.com/ Bhaangarbhuin epaper.thegoan.net
शुक्रार, 8 एप्रील 2022
लोकभाशेंत लोकांचो आवाज
# भांगरभूंय



जीत आरोलकार पर्यटन अधिकाऱ्यांचेर उसळ्ळो ›› 2

›› 8 लखनौ जैतिवंत

## › तिळ्यार

### जनतेच्या आंदोलना उपरांत श्रीलंकेंतली आणिबाणी फाटीं

**कोलंबो:** श्रीलंकेचे अध्यक्ष गोताबया राजपक्षे हे खंयचेच परिस्थितींत राजिनामो दिवचे नात, अशें सरकारान स्पश्ट केला. देशांत आणिबाणी लागू करपाच्या राजपक्षे हांच्या निर्णयाचेय सरकारान समर्थन केलां. देशांतल्या आयज मेरेनच्या सगल्यांत भिरांकूळ अर्थीक संकश्टा वयल्यान राजपक्षे हांणी राजिनामो दिवचो हे मागणे खातीर देशभर मोट्या प्रमाणांत जाहीर निदर्शनां जाले उपरांत राजपक्षे हांणी आणिबाणी फाटीं घेतल्या. सरकार सध्याच्या समस्येचेर उपाय काडटले. तशेंच ते अध्यक्षपदार वेंचून आयिल्ल्यान तांणी राजिनामो दिवपाचो प्रस्नूच येना, अशें मुख्य म्हणयारे मंत्री जॉन्स्टन फर्नांडो हांणी संसदेंत सांगलें.

### ॲर इंडियाची दिल्ली--मॉस्को विमानसेवा रद्द

**नवी दिल्ली:** रशिया-युक्रेन झुजाचो परिणाम भारताचेर जावपाक लागला. ॲर इंडियान दिल्ली ते मॉस्कोची



विमानसेवा रद्द केल्या. ॲर इंडियाची विमानां सप्तकांतल्यान दोन खेपे दिल्लींतल्यान मॉस्कोक वताली. विमो संरक्षण मेळूंक नाशिल्ल्यान ॲर इंडियेक हो निर्णय घेवचो पडला. तशेंच रशिया आनी युक्रेनांतल्या झुजाक लागून रशिये कडेन उड्डाण करपी विमानांक चड धोको आसा, ते खातीर विमानांक विमो संरक्षण मेळना.

### युक्रेन मुद्याचेर अमेरिकेची भारताक शिटकावणी

**वॉशिंग्टन:** रशिया आनी युक्रेनांत सुरू आशिल्ल्या झुजांत भारताची तटस्थ भुमिका अमेरिकेक पसंत ना. अमेरिकेन भारताक हाचे पयलीं आपली भुमिका स्पश्ट करपाक सांगिल्लें. जायते खेपे चेपण हाडून लेगीत भारत अजुनूय आपले भुमिकेचेर ठाम आसा. मात आतां अमेरिकेन भारताक उक्तेंपणान धमकी दिवपाक सुरवात केल्या. भारताक रशिये वांगडाच्या युतीचे व्हड परिणाम भोगचे पडुये. चीनान भारताचेर आक्रमण केल्यार अमेरिके कडेन एक म्हत्वाचो भागिदार म्हूण पळयतात. ते खातीर भारताची अमेरिके आडची भुमिका योग्य न्हय, अशें अमेरिकेन म्हणलां.

# भ्रश्टाचार जाल्यार पुराय नोकरभरतीच रद्द करची

## निलेश काब्राल : सरकार घेतलें योग्य निर्णय

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी : भौशीक बांदकाम खात्याच्या (पीडब्ल्यूडी) नोकरभरतींत खऱ्यांनीच भ्रश्टाचार जाल्लो आसत जाल्यार ही नोकरभरती रद्द करून नव्यान नोकरभरती करप गरजेचें. हे विशीं सरकार योग्य निर्णय घेतलें, अशें भौशीक बांदकाम खात्याचे मंत्री निलेश काब्राल हांणी बिरेस्तारा पत्रकारां कडेन उलयतना स्पश्ट केले. मजगतीं, नोकरभरती प्रकरणाचे चवकशे खातीर नेमिल्ली समिती सोमार मेरेन सरकाराक अहवाल सादर करतली.**



फाटल्या भाजप सरकाराच्या कार्यकाळांत भौशीक बांदकाम खात्यांतल्या 300 पदांच्या नोकरभरतींत मोट्या प्रमाणांत भ्रश्टाचार जाला. खात्याचे आदले मंत्री दीपक प्रभू पाऊसकार हांणी दरेक पदा खातीर 25 ते 30 लाख रुपया घेवन उमेदवारांची निवड केल्या. ताका लागून हो घोटाळो सुमार 700 कोटींचो आशिल्ल्याचो दुबाव उक्तावन ही नोकरभरती बेगोबेग रद्द करपाची मागणी भाजपाचेच आमदार बाबूश मोंसेरात हांणी केल्ली. बाबूश हांच्या आरोपा उपरांत विरोधी काँग्रेसीनूय हो विशय लावन धरिल्लो.

उपरांत आदले मंत्री पाऊसकार हांणीय भौशीक बांदकाम खात्यांतलीं नोकरभरती पारदर्शक सुरू आसून तातूंत कसल्याच प्रकाराचो भ्रश्टाचार जाल्लो आसत जाल्यार आमदार मोंसेरात हांणी सिद्ध करून दाखयल्यार आपूण राजकी संन्यास घेतलो, अशें आव्हान दिल्लें. ह्या प्रकरणा वयल्यान विधानसभा वेंचणुकेच्या तोंडारूच भाजपांतले अंतर्गत वातावरण तापिल्ल्यान मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांणी ही नोकरभरती स्थगीत दवरिल्ली.

तशेंच चवकशे खातीर आदले प्रधान वित्त सचीव पुनीतकुमार गोयल, दक्षता खात्याचे विशेश सचीव अंकिता आनंद आनी संचालक संजीव गडकर हांचो आस्पाव आशिल्ली तीन वांगड्यांची समिती स्थापन केल्ली. हे समितीक चवकशी करून अहवाल सादर करपाचे निर्देश दिल्लें.

पूण विधानसभा वेंचणुकेची आचारसंहिता लागू जाल्ल्यान चवकशी समितीचें काम आडखळून उरिल्लें. पुनीतकुमार गोयल मुख्य सचीव जाले उपरांत हे समितीच्या अध्यक्षपदार सचीव संजय गिहार हांची नेमणूक केल्ली.

हे फाटभुंयेर, भौशीक बांदकाम खात्याचे मंत्री म्हूण ताबो घेतिल्ल्या निलेश काब्राल हांणी भ्रश्टाचार जालो आसत जाल्यार पुराय नोकरभरतीच रद्द करपाची ठाम भुमिका मांडिल्ल्यान पदां खातीर निवड जाल्ल्यां उमेदवारां मुखार व्हड आव्हान उबें रावलां.

### चवकशी समिती सोमार मेरेन अहवाल सादर करतली

भौशीक बांदकाम खात्यांतले नोकरभरतीच्या प्रकरणाची खोलायेन चवकशी करून तयार केल्लो मसुदो आपूण फुडल्या दोन दिसांत समितीचे अध्यक्ष संजय गिहार हांचे कडेन सादर करतलो. सोमार मेरेन ते समितीचो सरकाराक अहवाल सादर जातलो, अशें चवकशी समितीचे वांगडी संजीव गडकार हांणी सांगलें.



बंगल्याक लागिल्लो भिरांकूळ उजो. दुसऱ्या फोटोंत पयलीचो बंगलो.

# तळें - दुर्गाभाटांत बंगल्याक उजो

## लाखांनी रुपयांचें लुकसाण, जिवीतहानी जावंक ना

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**फोंडें:** तळें-दुर्गाभाटांत बुधवारा रातीं 12.30 वरांच्या सुमाराक नझरुद्दीन तंदूर हांच्या बंगल्याक अचकींत उजो लागून सुमार 60 लाख रुपया परस चड लुकसाण जालां. शॉर्ट सर्किटाक लागून उजो लागिल्ल्याचो मुळावो अदमास उक्तायतात. उजो पालोवपा खातीर उजो पालोवपी दळाच्या तीन बंबाचो वापर केलो. बंगल्यांत घरगुती गॅस सिलिंडराचो स्फोट जावंक नाशिल्ल्यान व्हड दुर्घटना टळ्ळी.

बिरेस्तारा रातीं नझरुद्दीन तंदूर हांचे सयत घरकान्न आनी दोन भुरगीं न्हिदले उपरांत बंगल्याक अचकींत उजो लागलो. उजो लागले उपरांत बंगल्यांतले सगले जाण भायर आयले. उज्यान पेट घेतिल्ल्यान बंगल्यांतलें मोलादीक सामान भायर काडूंक येस आयलें ना. ताका लागून फ्रीज, टीव्ही आनी हेर फर्नीचर लासून गोबोर जालो.

उज्यांत पयल्या आनी दुसऱ्या माळ्या वयलें सगलें साहित्य लासून गेलें. बंगल्याक उजो लागिल्ल्याची म्हायती मेळ्ळे उपरांत फोंडें उजो पालोवपी दळाचे कर्मचारी घडणुकेच्या थळार वचपाक भायर सरले. पूण चुकीचो नामो दिल्ल्यान कर्मचाऱ्यांक बंगल्याचो रातच्या वेळार सोद घेवपाक कळाव जालो. तशेंच हो बंगलो दुर्गाभाटांत दोंगराळ वाठारांत आशिल्ल्यान थंय पावता म्हणसर बंगल्याक चारूय वटांनी उजो लागिल्लो.

उज्यांत बंगल्यांतलें सगलें साहित्य लासून गेल्ल्यान तंदूर कुटुंबाचेर दुख्खाचो दोंगर कोसळ्ळा. बंगल्यांत नव्यान केल्लें फर्निचर दवरिल्लें. पयल्या आनी दुसऱ्या माळ्या वयलें सगल्या साहित्या सयत तिजुले लेगीत उज्यांत फुटून गेले.

# जीसीईटी परिक्षा जूनाचे अखेरेक

**वेवसायीक प्रवेश प्रक्रिया पडटली लांबणेर**




■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** वेवसायीक प्रवेसा खातीरची जीसीईटी परिक्षा फुडे धुकलिल्ल्यान अंदूं अभियांत्रिकी, फार्मसी तशेंच हेर वेवसायीक म्हाविद्यालयांतली प्रवेश प्रक्रिया उसरां जातलीं. ते खातीर सगली वेवसायीक म्हाविद्यालयां उसरां सुरू जातली.

वेवसायीक म्हाविद्यालय प्रवेशा खातीरची जीसीईटी परिक्षा अंदूं 11 मे आनी 12 मेक जावपाची आशिल्ली. ही परिक्षा आतां फुडें धुकलून ती 27 आनी 28 जुनाक जातली. ही तारीक लेगीत निश्चीत ना. परिक्षेच्या कांय दीस पयलीं ही तारीख निश्चीत जातली, अशी म्हायती तंत्रीक शिक्षण संचालनालयाचे उपसंचालक प्रदीप कुस्नुर हांणी दिली. अभियांत्रिकी आनी फार्मसी म्हाविद्यालय प्रवेश जीसीईटी परिक्षेच्या गुणांचेर दितात. वैजकी, दांत म्हाविद्यालय, आयुर्वेदीक अभ्यासक्रम प्रवेश नीट परिक्षेच्या गुणांचेर जाता.

जुनांत परिक्षा जावन निकाल जाहीर जाता आनी प्रवेशाच्यो फेरयो सुरू जातात म्हणसर जुलय म्हयनो येतलो. म्हाविद्यालयां ऑगस्टा पयलीं सुरू जावप अशक्य आसा. फाटल्या वर्सा कोरोनाक लागून परिक्षा वेळांत जाली ना. अंदूं लेगीत वेवसायीक म्हाविद्यालयां उसरांच सुरू जातली.

सध्या धावी तशेंच बारावेची परिक्षा सुरू आसा. निकाल मे म्हयन्यांत जाहीर जातलो. हाका लागून हेर म्हाविद्यालयां जून वा जुलयांत सुरू जावप शक्य आसा.

# करंझाळे बेकायदो मिनी कॅसिनोचेर धाड

## 25 जाणांक अटक, 20 हजारांची रक्कम जप्त

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी



**पणजी :** कॅसिनोंत काम करपी कर्मचाऱ्यांचो टोंक-करंझाळे हांगा एका घराच्या टेरेसाचेर सुरू आशिल्ल्या मिनी कॅसिनोचेर पुलिसांनी बिरेस्तारा फांतोड्डेर धाड घातली. ह्या प्रकरणांत पुलिसांनी घर धनया सयत 25 तरणाट्यांक अटक केल्या. तांचे कडल्यान 883 कॅसिनो चिप्स आनी हेर वस्तू सयत 20 हजार रुपयांची रोख रक्कम जप्त केल्या. उपरांत अटक केल्ल्या दुबावितांची जामिनाचेर सुटका केल्या.

पणजी पुलिसांनी दिल्ले म्हायती प्रमाण, टोंक-करंझाळे व्हॅलेंटे डिकुन्हा हाच्या घराच्या टेरेसाचेर दरेक बुधवारा रातीं बेकायदो कॅसिनो सुरू आसता, अशी म्हायती गुप्तहेरांनी पुलिसांक दिल्ली. ते प्रमाण पुलिसांनी बिरेस्तारा मध्यानरातीं धाड हालून हो बेकायदो प्रकार उक्ताडार हाडलो.

घर धनी व्हॅलेंटे डिकुन्हा हांचे सयत शलत सुगाथन (43, मूळ केरळ), प्रतीक वळवयकार (30, पोरणें गोंय), चेतन सोलंकी (33, मूळ कर्नाटक), जयेश लखानी (24, दोनपावला), निकेश पौदर (24, मेरशी), मोहम्मद कुरेशी (27, भाटले), गोकूळ भट (27,मूळ नेपाळ),जसजीत सिंग ग्रोवर (41, मूळ दिल्ली), क्लिटन तावारीस (27, रायबंदर), गौतम फडते (30, बेती), योगेश लोटलीकार (36, शिरदोन), अंजिक्य कोरगांवकार (34, वेरें), आल्बिनो पेरेरा (31, मेरशी), मोहम्मद मुल्ला (23, उसगांव), कवलजीत सिंग (32, मूळ पंजाब), विशाल शैटीगर (31, बस्तोडें), सिध्दू मडेवल (26, मूळ कर्नाटक), मिथून आरेंदेकार (35, भाटले), फ्रान्सीस डिसोझा (31, ताळगांव), ॲडवीन रॉड्रिग्ज (25, सांताक्रूझ), रजत कांदोळकार (28, मार्शेल), मोहित बिस्त (31, मूळ नेपाळ), सनी लखानी (23, मूळ हैद्राबाद) आनी ब्रिगटॅन रॉड्रिग्ज (30, सावंतवाडी) ह्या कॅसिनोंत काम करपी कर्मचाऱ्यांक अटक केल्या.

दुबाविता कडल्यान 883 कॅसिनो चिप्स आनी हेर वस्तू सयत 20 हजारांची रोख रक्कम जप्त केल्या. तशेंच दुबाविता आड गोंय दमण दीव जुगार कायद्याचें कलम 11 (2) ए खाला गुन्यांव दाखल करून रितसर अटक केल्या.

उपरांत अटक केल्ल्यांक स्वताचे हमीचेर तशेंच गोंयकार दुबाविता कडल्यान 15 हजार जाल्यार बिगर गोंयकारां कडल्यान दरेकी 20 हजार रुपयांची हमीचेर सुटका केल्या.

# पुलीस म्हासंचालक डॉ. जसपाल सिंग हांणी घेतलो पदाचो ताबो

■ **गोंय सुरक्षीत पर्यटन थळ जावचे खातीर गुन्यांवांचेर हाडटले नियंत्रण**

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी



**पणजी :** गोंयांत कांय प्रमाणांत घुंवळे पदार्थांची तस्करी जायत आसून ताचेर नियंत्रण हाडपाक गोंय पुलीस मोहीम हातांत घेतले. ते खातीर नार्कोटीक कंट्रोल ब्युरो (एनसीबी) तशेंच हेर केंद्रीय संस्थांची मजत घेतले. सायबर गुन्यांवांचेर नियंत्रण हाडटले. गोंय हे सुरक्षीत पर्यटन थळ जावपा खातीर काम करतलें, अशें आस्वासन नवे पुलीस म्हासंचालक डॉ. जसपाल सिंग हांणी दिलां.

आदले म्हासंचालक डॉ. इंद्रदेव शुक्ला 31 मार्चाक निवृत्त जाल्ल्यान भारतीय पुलीस सेवेंतले (आयपीएस) वरिश्ठ अधिकारी डॉ. जसपाल सिंग हांची गोंयचे नवे म्हासंचालक म्हूण हालींच बदली जाल्ली. ते प्रमाण तांणी बिरेस्तारा सकाळीं गोंयांत येवन आपल्या पदाचो ताबो घेतला.

ह्या वेळार पुलीस म्हानिरिक्षक राजेश कुमार, पुलीस अधिक्षक निधीन वालसन, अभिषेक धानिया, शाबीत सक्सेना आनी हेर पुलीस अधिकारी आनी कर्मचारी हाजीर आशिल्ले.

पुलीस म्हासंचालक डॉ. जसपाल सिंग हांची गोंयांत तिसेरे खेपे बदली जाल्या.

## › संपादकीय

मास्काक निरोप दिवया, पूण...

## › तापमान

| | |
|---|---|
| चडांत चड | 35 |
| उण्यांत उणें | 26 |

## › शॅर बाजार

| | |
|---|---|
| सेन्सेक्स | 59,034.95 |
| निफ्टी | 17,639.55 |

## › भांगर-रुप्याचें मोल

| | |
|---|---|
| भांगर (10 ग्राम ) रु. | 53,295 |
| रुपे (एक कील) रु. | 71,000 |

## › दावखूल

महेश दिवेकार



इलेक्ट्रीक वाहनां वापरात?.... वीज खातें दिवंक ना ताची अशी तिडक काडपाची न्हय तांणी.

# कामत काँग्रेसींतूच, भाजप प्रवेशाच्यो वावड्यो

## थळाव्या भाजप फुडाऱ्यां कडेन चर्चा जावंक ना: तानावडे

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** काँग्रेसीचे ज्येश्ठ फुडारी दिगंबर कामत हे भाजपांत प्रवेश करतले, अशो चर्चा राज्यभर रंगिल्ल्यो. तशेंच कामत अचकींत दिल्लींत गेल्ल्यान ह्या चर्चाक नेट आयिल्लो. पूण आपूण दिल्लींत खाजगी कामां खातीर गेल्लो. खंयच्याच राजकी फुडाऱ्याची भेट घेवंक ना, ह्या स्पश्टीकरणा उपरांत दिगंबर कामत हांच्या भाजप प्रवेशाच्यो वावड्यो सध्या तरी बंद जाल्यात. तशेंच कामत हांच्या भाजप प्रवेशाच्या प्रस्तावाचेर पक्षाच्या थळाव्या फुडाऱ्यां कडेन चर्चा जावंक ना, अशें स्पश्टीकरण प्रदेश भाजप अध्यक्ष सदानंद शेट तानावडे हांणी दिल्ल्यान ह्या विशयाचेर सध्या तरी पड्डो पडला.

विधानसभा वेंचणुके पयलीं हेर पक्षाच्या बऱ्याच फुडाऱ्यांनी भाजपांत प्रवेश केलो. हातूंत रवी नायक, जयेश साळगांवकार, रोहन खंवटे, प्रवीण आर्लेकार, प्रेमेंद शेट हांकां पक्षांत प्रवेश दिवपा सयत उमेदवारी दिली. जयेश साळगांवकार सोडल्यार हेर सगले जाण वेंचून आयलें. ह्या सगल्यांक प्रवेश दिवपाचो निर्णय केंद्रीय नेतृत्वान घेतिल्लो आसलो तरी थळाव्या फुडाऱ्यां कडेन चर्चा जाली. थळाव्या फुडाऱ्यांक विस्वासांत घेवनूच प्रवेशाचो निर्णय जाला. रवी नायक हांकां पक्षांत प्रवेश दिवचे पयलीं एक म्हयनो विचारविनिमय सुरू आसलो, अशें प्रदेश भाजप अध्यक्ष सदानंद शेट तानावडे हांणी सांगलें. दिगंबर कामत हांच्या प्रवेशा विशीं थळाव्या पांवड्यार चर्चा जावंक ना, अशें तानावडे हांणी सांगलें.

### दिल्लींत खंयच्याच राजकी फुडाऱ्यांची भेट घेवंक ना: कामत

दिगंबर कामत हांच्या भाजप प्रवेशा विशीं थळाव्या पांवड्यार चर्चाच जावंक नाशिल्ल्याचे तानावडे हांणी सांगिल्यान ह्या प्रकरणाचेर पड्डो पडला. वेंचणुके उपरांत काँग्रेस विधीमंडळ फुडारीपदाचेर मायकल लोबो हांची निवड जाली. ते उपरांत दिगंबर कामत दिल्लींत गेले. ते भाजपांत प्रवेश करपाचे आशिल्ल्यान ते दिल्लींत भाजप फुडाऱ्यांची भेट घेवपाक गेल्याच्यो वावड्यो पातळिल्ल्यो. पूण आपूण खाजगी कामां खातीर दिल्लींत गेल्याचे कामत हांणी सांगिल्यान, खंयच्याच राजकी फुडाऱ्याची भेट घेवंक ना. तशेंच भाजपाचे अध्यक्ष तानावडे हांणीय कामत हांच्या भाजप प्रवेशा विशीं थळाव्या पांवड्यार चर्चाच जावंक नाशिल्ल्याचे स्पश्टीकरण दिलां.

# गोंयांतल्या 23 न्यायाधिशांच्यो बदल्यो

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** मुंबय उच्च न्यायालयाचे मुख्य न्यायाधीश आनी प्रशासकीय न्यायाधिशांचे सुचोवणे प्रमाण गोंयांतल्या 23 न्यायाधिशांच्यो वर्सुकीं बदल्यो केल्यात. हातूंत जिल्हो न्यायालयाच्या सात न्यायाधिशांचो आस्पाव आसा.

जारी केल्ल्या आदेशा प्रमाण, जिल्हो न्यायाधीश शेरीन पॉल हांची बदली मडगांवां दक्षीण गोंय जिल्हो आनी सत्र न्यायालयांत केल्या. न्या. शमा जोशी आनी न्या. शर्मिला पाटील हांची बदली म्हापश्यां उत्तर गोंय जिल्हो आनी सत्र न्यायालयांत केल्या.

न्या. पुजा कवळेंकार आनी न्या. बास्को रॉबर्ट हांची बदली बटडगांवां दक्षीण गोंय जिल्हो आनी सत्र न्यायलयांत केल्या. ते भायर 3 दिवाणी न्यायाधीश वरिश्ठ श्रेणी आनी 13 दिवाणी न्यायाधीश कनिश्ठ श्रेणी हांची बदली केल्या.

# तमनार : वीज वाहिनी सध्याचे लायनीचे कुशीकच्यान व्हरची

**उच्चाधिकार समितीची शिफारस सर्वोच्च न्यायालयान केली मान्य**

■ भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पणजी :** संवेदनशील रानां वाठाराक धपको दिनासतना तमनार वीज प्रकल्पाची 440 केव्ही वाहिनी सध्याचे 220 केव्ही वाहिनीचे कुशीन व्हरपाची केंद्रीय उच्चाधिकार समितीची शिफारस सर्वोच्च न्यायालयान मान्य केल्या. ताका लागून तमनार प्रकल्पाक विरोध करपी आंदोलकांचें एका प्रकारचे जैत आसा.

सर्वोच्च न्यायालयाच्या तीन वांगड्यांच्या पिठान ह्या शिफारसीक मान्यताय दिल्या. न्यायमुर्ती एल. नागेश्वर राव, बी. आर. गवई आनी अनिरूद्ध भोस हांणी ही मान्यताय दिल्या. रेल्वे मार्ग दोट्टीकरण, राष्ट्रीय म्हामार्गाचे चौपदरीकरण आनी तमनार वीज प्रकल्पाक रानजीव मंडळान मान्यताय दिल्ली. हे मान्यताये उपरांत ह्या प्रकल्पांच्या विरोधांत जनहीत याचिका दाखल जाली. जनहीत याचिकेक अनुसरून सर्वोच्च न्यायालयान केंद्रीय उच्चाधिकार समितीची स्थापणूक केली. हे समितीन तिनूय प्रकल्पांचो अभ्यास करून सर्वोच्च न्यायालयाक अहवाल 23 एप्रील 2021 दिसा सादर केलो.

तमनार वीज प्रकल्पाची लायन भगवान महावीर अभयारण्य तशेंच मोलें राष्ट्रीय उद्यानांतल्यान व्हरपाची आसा. हाका लागून जायतीं झाडां कातरचीं पडटलीं. ते खातीर पर्यावरणवाद्यांचो तमनार प्रकल्पाक विरोध आसा. ह्या प्रकल्पा आड आंदोलन लेगीत जाल्या. 7 एप्रील 2020 दिसा रान जीव मंडळान या प्रकल्पांक मान्यताय दिल्ली.

रेल्वे मार्ग दोट्टीकरण तशेंच म्हामार्ग चौपदरीकरणाचेर लेगीत समितीन शिफारसी दिल्या. हे शिफारसी विशीं अजून निर्णय जावपाचो आसा.

# जीत आरोलकार पर्यटन अधिकाऱ्यांचेर उसळ्ळो

## दर्यादेगे वयल्या थळाव्या वेवसायिकांच्या फाटल्यान रावलो उबो

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**पेडणें:** मांद्रें मतदारसंघांतल्या हरमल दर्यादेगेर 6 एप्रीलाक पर्यटन खात्याचे कांय अधिकारी आयिल्ले. ते थळाव्या वेवसायिकांनी दर्यादेगेर घाल्ल्यो खाटी काडटात, अशी कागाळ मांद्रेंचो आमदार जीत आरोलकारा कडेन केली. खबर आयकताच आरोलकार सोमतोच दर्यादेगेर आयलो आनी अधिकाऱ्यांचेर उसळ्ळो. मांद्रें मतदारसंघांतल्या दर्यादेगेर वेवसाय करपी थळाव्यांक पर्यटन खात्याच्या अधिकाऱ्यांनी सतावचें न्हय. तांकां कसलेय तरेच्या पर्यटन वेवसायाचेर कारवाय करपा आदीं आपल्याक पूर्वसुचोवणी दिवची. आपूण मंत्र्यां कडेन उलोवन हो विशय सोंपयतलों, अशी ताणें अधिकाऱ्यांक समज दिली.

पर्यटन अधिकाऱ्यां कडेन चर्चा करतना आमदार जीत आरोलकार. (निवृत्ती शिरोडकार)

पर्यटन खातें दर वर्सा पर्यटन मोसम सुरू जावचे आदीं आनी पर्यटन मोसम सोंपपाक खंयच्याय खिणाक कसलें ना कसलें कारण काडून कारवाय करचे खातीर दर्यादेग वाठारांत अचकीत येतात. जे थळावे वेवसायीक लांकडी खाटी घालून पर्यटकांक विसव घेवपाची वेवस्था करतात, तांचेरूच कारवाय करतात. मात परप्रांतीय दिल्ली वेवसायीक आपले खाजगी जमनीचेर व्हड व्हड रेस्टॉरंट, क्लब हावस उबारून दर्यादेग वाठारांत लांकडी खाटी घालतात. त्या खाटींक परवाने नासतनाय तांचेर मात कारवाय जायना, अशें थळाव्या वेवसायिकांचें म्हणणें आसा.

### व्हेल्ल्यो खाटी अधिकाऱ्यांनी परतून हाडल्यो...

कोणाक विचारून तुमी दर्यादेगेर आयल्यात. तुमकां आपणे दोन तीन खेपे विनवणी केल्ली, पूण तुमी ते विनवणेक मान दिवंक ना. तुमकां कारवाय करपाचीच आसा जाल्यार सगळ्या वरिश्ठ अधिकाऱ्यांक घेवन येयात. तरी लेगीत तुमी कारवाय केली जाल्यार तुमकां पळोवन घेतलों, अशी शिटकावणी आमदार जीत आरोलकारान पर्यटन खात्याच्या अधिकाऱ्यांक दिली. आपल्याक खळाव्यांक राखण दिवपाची आसा, अशें ताणें स्पश्ट केलें. ते उपरांत ज्यो लांकडी खाटी उखलून व्हेल्ल्यो त्यो अधिकाऱ्यांनी परत हाडून दिल्यो.

# मुळगांवां पेठेचे जात्रेक सुरवात

## मयां म्हाजनकी वयल्यान मातसो तणाव

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**दिवचल:** मुळगांवच्या श्री देवी केळबायचे फामाद पेठेचे जात्रेक बुधवारा उमेदीन सुरवात जाली. सकाळीं देवळांत धर्मीक विधी जाले उपरांत दनपारां धोंडांनी पवित्र तळ्यें न्हांवन देवदर्शन घेतलें. राती कडेन परंपरीक भेस घालून देवीची पेठ विशिश्ट तरेन सजयली. ते उपरांत नाचत गायत धोंड भाविकांचे हाजिरेंत मयां वचपाक भायर सरले.

मध्यान रातीर परंपरीक वाटेंतल्यान वतना बड्डें, व्हाळशी, दिवचल वाठारांत शेंकड्यांनी भाविकांनी देवदर्शन करून आशिर्वाद घेतले.

मजगतीं, सकाळच्यान म्हाजनकीच्या अधिकारा वयल्यान मातशें वातावरण तापिल्ल्यान थंय पुलिशेक आपयले. मुळगांवच्यान भायर सरिल्ली पेठ मयां केळबाय देवस्थाना कडेन आयले उपरांत थंय रावून चव्हाट्या वयले परंपरीक सुवातेचेर दवरली. मुळगांवची पेठ मयां गेले उपरांत मयां केळबाय देवीची पेठूय भायर काडटात, मात सकाळीं तशें जावंक ना. ते उपरांत थंय मामलेदार कुट्टीकार, उपजिल्होधिकारी वायंगणकार, तलाठी तशेंच पुलीस थंय पावले.

पवित्र तळयेंत न्हांतना धोंड. (विशांत वझे)

ह्या वेळार मामलेदारान म्हाजन आनी हेर घटकांची समजूत काडपाचो यत्न केलो. ते उपरांत खूब वेळ मेरेन चर्चा चालू आशिल्ली. ते उपरांत मयेंकार, मुळगांवकार, शिरगांवकार, वायंगणकार तशेंच मयेंचे संबंदीत मानकरी ह्या सगळ्या घटकांची जोडबसका दनपारां मामलेदार आनी उपजिल्होधिकाऱ्यान घेतली. हे बसकेंत सगळ्या वटांनी चर्चा जाली आनी निमाणे गोंदळ सोंपिल्ल्याची म्हायती उपजिल्होधिकारी वायंगणकार आनी मामलेदार कुट्टीकारान दिली.

मजगतीं, सकाळीं निर्माण जाल्ले मतभेद पयस जाल्ल्यान गोंदळ सोंपलो, अशी म्हायती कार्यालयांतल्या सुत्रांनी दिली. ताका लागून आतां तीन वर्सां उपरांत माल्याची जात्रा जातली, अशेंय सांगलें.

## रघुनाथ गावडे अंतरले

**भांगरभूंय | खबरां मेज**

**पणजी:** सकली वांगाळ केरी फोंड्यां रावपी रघुनाथ गावडे अंतरले. तांचेर गोमेकॉंत उपचार चालू आशिल्ले. ताचे कुडीचेर वागाळी मसुंडेंत निमणे संस्कार जाले. व्हडलो पूत मुकुंदान अग्नी दिलो. ताच्या फाटल्यान घरकान्न, चले, सुनो, लग्न करून दिल्ल्यो पांच चलयो, भाव आनी नातरां असो परिवार आसा.

एक प्रगतशील शेतकार म्हूण लोक ताका वळखताले.

# पर्यावरण सांबाळपाक इको वॉरियर जायात: डॉ. कुलगोड

## गोवेस लेकव्ह्यू हॉस्पिटलांत मनयलो संवसारीक भलायकी दीस

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**बेळगांव :** लेक व्ह्यू गो वावेस हॉस्पिटलाचो वैजकी संचालक सीईओ डॉ. शशिकांत कुलगोड हाणें पर्यावरण वाचोवपा खातीर इको क्लब तयार करून इको वॉरियर जावपाचो उलो मारला. बेळगांवीच्या गोवेस लेकव्ह्यू हॉस्पिटलांत संवसारीक भलायकी दिसा निमतान आयोजीत कार्यावळींत तो उलयतालो.

आमचो गिरो आमची भलायकी ह्या वर्साचे संकल्पनेचेर आदारीत हो दीस हॉस्पिटलाचे आगाशे वयल्या टेरेस गार्डनाच्या उक्तावणा सयत मनयलो. सेवानिवृत्त फलोत्पादन अधिकारी के. एस. पाटील हाणें झाडाक उजो घालून टेरेस गार्डनाचें उक्तावण केलें.

डॉ. कुलगोड हाणें सांगलें, कोरोना 19 खातीर लेकव्ह्यू गोवेज हॉस्पिटलांत 4 हजारां परस अदीक दुयेंतींचेर उपचार केल्यात. तांच्या येसाचो दर बरो आसा. लेकव्ह्यू वरवीं दिल्ल्या सेवांचेर उजवाड घालतना ताणें सांगलें, लेकव्ह्यू मेरेन पावचे आदीं हेर हॉस्पिटलांनी ताणें अणभव घेतिल्ल्या ऑनलायन चर्चा करचे परस दुयेतीं मेरेन पावपी सल्लागारां कडल्यान परतून परतून वैयक्तीक भेटी दिवप हें दुयेंतींक दिल्ल्या सेवेचें खाशेलपण आशिल्लें.

दोन वर्सां उपरांत कोरोना सर्व्हायव्हर्स जातूंत समाजांतल्या विवीध मळा वयल्या नामनेच्या मनशांचो आसपाव आशिल्लो. डॉ. कुलगोड हांणी तांचे अणभव सांगले. तांच्या मदल्या खूब जाणांनी कोरोनाच्या संसर्गा वेळार जाल्ल्या आघाताचो उगडास करून दिलो आनी लेकव्ह्यू पंगडान तांकां ताचेर जैत जोडपा कातीर उर्बा दिल्ल्याचें सांगलें.

मनशाचो स्पर्श तांचे पुनर्प्राप्ती खातीर खूब म्हत्वाचो. जेन्ना लागींचे सोयरे धायरे लेगीत तांकां स्पर्श करपाक भियेताले तेन्ना लेकव्ह्यूचे कर्मचारी आनी दोतोर तांचे हात धरून, फाटीचेर हात भोंवडावप, तांची निवळसाण करप, अशी मन लावन सेवा करून तांची जतनाय घेताले, अशें कोरोनांतल्यान वाटावल्ल्या दुयेंतींनी आपल्यो भावना उक्तायल्यो.

ह्या वेळार डॉ. के. एस. माने, डॉ. प्रदीप वगराळी, डॉ. आनंद सकाळ, डॉ. गोविंद हंसीनमणी हाजीर आशिल्ले.

झाडाक उदक घालून टेरेस गार्डनाचें उक्तावण करतना डॉ. शशिकांत कुलगोड. वांगडा डॉ. के. एस. माने, डॉ. प्रदीप वगराळी, डॉ. आनंद सकाळ, डॉ. गोविंद हंसीनमणी आनी हेर मानेस्त.

### कोरोनांतल्यान बरे जाल्ल्यांचो भोवमान

कोरोनांतल्यान बरे जाल्ल्या दुयेतींचो फुलांचो रोपो दिवन भोवमान केलो. ह्या वेळार सेवानिवृत्त शार अभियंतो देवेंद्र हलगी, प्रकाश कुलकर्णी, गीता कड्डी हांणी आपले अणभव सांगले. फुडारांत लेकव्ह्यू पंगडाचे सेवे खातीर आनी मजती खातीर सदांच तयार आसतले, अशी हमी दिली. दोन वर्सां उपरांत कोरोनांतल्यान बरे जाल्ल्यांनी तांची जतनाय घेवप्यां कडेन संवाद सादलो. दोगांय खातीर हो खूब भावनीक अणभव आशिल्लो.

# चलयेचो लिंगीक छळ; कारकुनाची पदावनती

**सत्तरीच्या उपजिल्होधिकारी कार्यालयांत घडणूक**

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**वाळपय:** सत्तरी उपजिल्होधिकारी कार्यालयांत काम करपी एका कारकुनाची पदावनती केल्या. एके चलयेचो लिंगीक छळ केल्ल्याचो ताचेर आरोप दवरला. हाका लागून वाळपय वाठारांतल्या सरकारी कर्मचाऱ्यां मदीं खवदळ पडला. अशे तरेन सरकारान कारवाय केल्लो हो पयलोच कर्मचारी आशिल्ल्याचे लोक उलयतात.

मेळिल्ले म्हायती प्रमाण, सत्तरी उपजिल्होधिकारी कायालयांत आपल्या एका खाजगी कामा खातीर एक चली परत परत येताली. तिचें काम सोंपे तरेन करून दिवपाचें हांयस दाखोवन एक कारकून तिचे कडेन मोबायला वयल्यान अश्लील उतरांनी चॅट करपाक लागलो. हे संबंदान खूब खेपे तिणें ताका आडावपाचो यत्न केलो. मात सरकारी कामाचो हावको दाखोवन तिचो लिंगीक छळ करपाचो यत्न करपाक लागलो. हे संबंदान तिणें जिल्होधिकारी कार्यालयांत कागाळ दाखल केल्ली.

एका म्हयन्या आदीं ते चलयेन दाखल केल्ले कागाळेची दखल घेवन तेन्नाचो जिल्होधिकारी अजीत रॉय हाणें हे संबंदांत चवकशी केली. चलयेन केल्ले कागालेंत तथ्य आशिल्ल्याचें दिसले उपरांत त्या कारकुनाची पदनवती करपाचो आदेश जिल्होधिकाऱ्यान दिलो.

## भगतवाड्यार आयज 'मायेची सावली'

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**काणकोण:** काणकोणां भगतवाड्या वयल्या श्री निराकार देवळांत नाटकांक सुरवात जाल्या. 8 एप्रीलाक रातच्या 10 वरांचेर दिप्तेश देसाय निर्मीत आनी संदीप नगर्सेकार दिग्दर्शीत 'मायेची सावली' हें नाटक सादर जातलें.

ते आदीं देवाच्या वर्धापन दिसा निमतान दनपारां 12 वरांचेर सत्यनारायण पुजा जातली. रातच्या 8 वरांचेर वासुवारी वादन आनी पावणी जातली. ते उपरांत नाटक सादर जातलें, अशें निराकार देवळाचो अध्यक्ष प्रेमानंद नायक गांवकारान कळयलां.

# राज्यपालाच्या शिश्टाचारांत घाळपणां

**शिरीष पै हाचो आरोप; सरपंच धिल्लन नायकाक पत्र**

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**काणकोण:** राज्यपाल पी. एस. श्रीधरन पिल्लई हाणें बुधवारा श्रीस्थळ पंचायतीक भेट दिल्ली आनी समस्या आयकून घेतिल्ल्यो. मात राज्यपाल पंचायत सभाघरांत हाजीर आसतना एकदां सरपंचान येवकार दिवन जाले उपरांत परतून तांकां उलोवपाक सांगप आनी उपरांत तांणी उलोवपाक न्हयकार दिवप म्हणल्यार शिश्टाचार मोडप, अशें मत श्रीस्थळ पंचायत वाठारांतलो नागरीक शिरीष पै हाणें श्रीस्थळाच सरपंच धिल्लन नायकाक दिल्ल्या पत्रांत म्हणलां.

पंचायतींत राज्यपाल आनी सभापती येतले हाची पूर्वसुचोवणी दिल्ली. हे खातीर पंचायत वाठारांतल्या लोकांचें मत घेवन ते संबंदीची कार्यावळ बरे तरेन आयोजीत करपाक जाताली. पयलेच खेपे काणकोणाक सभापतीपद मेळ्ळां, हे संदीचो फायदो घेवन सभापतीचो सत्कार करपाक जाय आशिल्लो. अश्यो साबार सुचोवण्यो पै हाणें पत्रांत केल्यात आनी त्या पत्राचो विचार जावचो, अशी मागणी केल्या.

हं संबंदांत सरपंच धिल्लन नायकाक विचारलें, तेन्ना ताणें सांगलें, पंचायत सभाघरांत जरी ही कार्यावळ जाली तरी लेगीत हे कार्यावळीची जापसालदारकी वरिश्ठ सरकारी अधिकाऱ्यांनी घेतिल्ली. तांच्या मार्गदर्शना खाला कार्यावळीचें आयोजन केल्लें. एकदां आपणें येवकार दिले उपरांत परतून आपल्यात सुत्रसंचालकान उलोवपाक सांगप आनी आपणें परतून भाशण करप योग्य दिसलें ना. हेच खातीर आपणें भाशण करूंक ना, अशें नायकान सांगलें.

# दिवचल उपनगराध्यक्ष तनुजा गांवकाराचो राजिनामो

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**दिवचल:** दिवचलची उपनगराध्यक्ष तनुजा सतीश गांवकारान बिरेस्तारा 7 एप्रीलाक आपल्या पदाचो राजिनामो दिलो. आपल्या पदाची एका वर्साची मुजत सोंपिल्ल्यान आपूण भाजपान थारायिल्ले प्रमाण राजिनामो सादर करता, अशें गांवकारान आपल्या राजिनामो पत्रांत म्हणलां.

तनुजा गांवकारान आपल्या पदाचो राजिनामो सादर केल्ल्यान उपनगराध्यक्षपद कोणाक मेळटलें, हे विशीं उमळशीक लागल्या. हे संदर्भांत नगराध्यक्ष कुंदन फळारी कडेन संपर्क सादलो तेन्ना ताणें आपल्याक हे विशीं अधिकृत म्हायती नाशिल्ल्याचें सांगलें. उपनगराध्यक्षपदा खातीर निवड करतना भाजपाचे फुडारी आमचे कडेन चर्चा करून निर्णय घेतले, अशेंय ताणें सांगलें.

# गरजेच्या पयशांची तरतूद जावंक नाशिल्ल्यान बांदकाम मोडपाक अपेस

## पंगड आयलोच ना, कोलवेंचें हॉटेल मोडपाचो कोर्टान दिल्लो आदेश

■ भांगरभूंय | विशेश प्रतिनिधी

**मडगांव:** न्यायालयाच्या आदेशा प्रमाण सीआरझॅड कायद्याचें उल्लंघन केल्ल्या प्रकरणांत कोलवेंचें सिल्व्हर सॅण्ड हॉटेल मोडून उडोवपा खातीर पुलीस खात्याचे, वीज खात्याचे आनी सीआरझॅड खात्याचे अधिकारी दाखल जाले. पूण बांदकाम मोडपा खातीर भौशीक बांदकाम खात्याचो (भौबांखा) पंगड गरजेच्या पयशांची तरतूद जावंक नाशिल्ल्यान आयलो ना. ताका लागून बिरेस्तारा जावपी कारवाय लांबणेर पडल्या.

बिरेस्तारा हॉटेला भायर व्हड पुलीस पंगड तैनात केल्लो. कोलवा सिव्हीक फोरमाचे ज्युडीत आल्मेदा हांणी ह्या बांदकामा आड उच्च न्यायालयांत याचिका दाखल केल्ली. ते प्रमाण न्यायालयान हें बांदकाम मोडपाचो आदेश दिल्लो. ते प्रमाण ही कारवाय जावपाची आशिल्ली.

कोलव्यां हॉटेला भायर तैनात केल्लो पुलीस बंदोबस्त. (संतोष मिरजकर)

हें बांदकाम मोडपा खातीर यंत्र-सामुग्री हाडपा खातीर जी पयशांची तरतूद करूंक जाय आशिल्ली ती जावंक नाशिल्ल्यान भौशीक बांदकाम खात्यान पंगड धाडूंकच ना. बांदकाम मोडून उडोवपा खातीर 10 लाख रुपया खर्च येवपाचो आशिल्ल्यान आनी ही तरतूद मंजूर करपा विशींचो अर्ज भौशीक बांदकाम खत्यान उपजिल्होधिकारी कार्यालयांत केल्लो. पूण हो खर्च मंजूर जावंक नाशिल्ल्यान यंत्रसामुग्री हाडूंक मेळ्ळी ना अशी म्हायती बांदकाम विभागा कडल्यान मेळ्ळी.

पुलिसां सयत वीज आनी सीआरझॅड खातें हांचे पंगड सुवातेर आयले. भौशीक बांदकाम खात्यान आपलो पंगड धडलो ना अशी म्हायती कोलवें पंचायतीचे सचीव अमोल तिळवे हांणी दिली. आल्मेदा हांणी ह्या बांदकामा आड सीआरझॅड प्राधिकरणा कडेन कागाळ केल्ली. उपरांत प्राधिकरणान हें बांदकाम मोडपाचो आदेश जारी केल्लो. पूण हॉटेल वेवस्थापनान ह्या आदेशाक उच्च न्यायालयांत आव्हान दीत स्थगिती मेळयिल्ल्यान हाचे पयली लेगीत ही कारवाय अशीच स्थगीत जाल्ली.

हे विशीं याचिकादार आल्मेदा हांणी खर निरशेणी उक्तायतना अशे कारवाये खातीर आतां सीआरझॅड प्राधिकरणान स्वताची यंत्रणा उबारपाची गरज आसा. नाजाल्यार बेकायदो बांदकामांक हाचे मुखारूय भंय उरचो ना अशें मत आल्मेदा हांणी उक्तायलें.

# हणजूण्यां 3.20 लाखांचीं घुंवळे वखदां जप्त; जपानी नागरिकाक अटक

■ भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**म्हापशें:** पुलिसांनी झरवाडो हणजूण्यां हिनागाता यासूजी (59) ह्या दुबावीत जपानी नागरिकाक घुंवळे वखदां विरोधी कायद्या खाला अटक केली. दुबाविता कडल्यान तीन कील चरस आनी 133 ग्राम गांजो मेळून 3 लाख 20 हजारांचीं घुंवळे वखदां जप्त केलीं.

घडणुकेच्या थळार घुंवळे वखदांची विक्री जावपाची आशिल्ल्याची म्हायती हणजूण पुलिसांक मेळिल्ली. ते प्रमाण बिरेस्तारा फांतोडेर 3.30 वरांच्या सुमाराक सांपळो रचून पुलिसांनी दुबाविताक धरून ताची झडटी घेतली. त्या वेळार ताचे कडेन तीन लाखांचो तीन कील चरस आनी 20 हजारांचो 133 ग्राम गांजो सांपडलो.

पुलिसांनी दुबाविता आड घुंवळे वखदां प्रतिबंधक कायद्या खाला गुन्यांव नोंद केला आनी धरिल्लीं घुंवळे वखदां जप्त करून ताका अटक केल्या. फुडलो तपास पुलीस उपनिरिक्षक स्नेहा सावळ करतात.





अटक केल्ल्या दुबाविता सयत आयपीएस अधिकारी स्वाती सिंग आनी पुलीस पंगड.

# तरणाटेक फटयिल्ल्या प्रकरणांत दुबावीत अभिषेक नंदवानीक अटक

## दुबाविता आड गुजरातांतूय गुन्यांव दाखल

■ भांगरभूंय | प्रतिनिधी

म्हापशें: एके तरणाटे कडेन इश्टागतीचें नातें जुळोवन तिची फटवणूक केल्ल्या प्रकरणांत हणजूण पुलिसांनी अभिषेक सुरेशकुमार नंदवानी (सुरत, गुजरात) ह्या दुबाविताक अटक केल्या. दुबावीत आरोपी हो खांपो गुन्यांवकार आसून ताणें खूबशा जाणांक फटयला.

हणजूण पुलीस शिमेंतले एके तरणाटे कडेन दुबावितान इश्टागतीचे संबंद जुळयले आनी तिचे कडल्यान वेगळींवेगळीं कारणां सांगून वेगळेवेगळे सुवातेर मेळून 70 हजार रुपया घेतले. तशेंच तिच्या क्रेडीट कार्डाच्या आदारान मोबायलूय विकतो घेतलो.

दुबावीत आपल्याक फटयत आसा. तशेंच घेतिल्ले पयशे परतून दिनाशिल्ल्याचें पळोवन तरणाटेन पुलिशेंत कागाळ केली. हे कागाळीच्या आदाराचेर पुलिसांनी दुबाविता आड भादंसंच्या 420 कलमा खाला फटवणुकीचो गुन्यांव नोंद केला आनी ताका अटक केली.

पुलीस चवकशे वेळार दुबावीत हो ह्या फटवणुकीच्या गुन्यांवातलो खांपो गुन्यांवकार आशिल्ल्याचें उक्ताडार आयलें. दुबाविता आड 2019 सावन भादंसंच्या 406 आनी 420 कलमा खाला वेगळ्यावेगळ्या पुलीस स्टेशनार फटवणुकीचे गुन्यांव नोंद आसात.

सुरत गुजरातांतल्या लिंबायत पुलीस स्टेशन, खटोदरा पुलीस स्टेशन, कटारगम पुलीस स्टेशन, उमारा पुलीस स्टेशन, महिधरपुरा पुलीस स्टेशन आनी वराछा पुलीस स्टेशन ह्या पुलीस स्टेशनांनी दुबाविता आड हे गुन्यांव दाखल जाल्यात आनी दुबावीत ह्या प्रकरणांत फरारी आशिल्लो.

हणजूण पुलिसांनी पुलीस अधिक्षक शोबीत सक्सेना, उपअधिक्षक उदय परब हांच्या मार्गदर्शना खाला सहाय्यक अधिक्षक स्वाती सिंग (आयपीएस) उपनिरिक्षक साहील वारंग, कॉन्स्टेबल गोधीश गोलतेकार, महेंद्र मांद्रेंकार, अर्जुन सावंत आनी स्नेहल मळीक हांणी ही कारवाय केली.

# पालिका वाठारांतल्या वित्त संस्थांक मुख्याधिकाऱ्यान काडल्यो नोटिशी

## वित्त संस्थांक करक्षेत्रांत हाडून महसूल वाडोवपाचो यत्न

■ भांगरभूंय | विशेश प्रतिनिधी

**मडगांव:** पालिका वाठारांतल्या सगल्या वित्त संस्थांक भाडेपट्टी कबलातीच्या सिव्हील रजिस्ट्रारा कडलें नोंदणी प्रमाणपत्र सादर करपा विशीं मुख्याधिकारी आग्नेलो फेर्नांडीस हांणी नोटिशी काडल्यात. वित्त संस्थांक करक्षेत्रांत हाडून महसूल वाडोवपाचो पालिकेचो यत्न आसा.

मडगांव पालिकेचे मुख्याधिकारी आग्नेलो फेर्नांडीस हांणी पालिका वाठारांतल्या 9 बँकांक नोटिशी धाडल्यात आनी नोटीस मेळिल्ले सावन सात दिसां भितर नोंदणीकृत प्रमाणपत्रा सयत हेर तपशील दिवपाक सांगलां. पालिकेचे नोटिशी उपरांत सगल्यांनीच तपशील सादर करपाचें मान्य केल्ल्याचें मुख्याधिकारी फेर्नांडीस हांणी सांगलें.

वित्त संस्थां कडल्यान भाडेपट्टी कबलातीची नवी प्रत आनी हेर तपशील प्रदान करपाची विनंती केल्या. सगल्या वित्त संस्थांक करक्षेत्रांत हाडपाचो पालिका मंडळाचो हावेस आसा. पालिका वाठारांतल्या कांय वित्तीय आस्थापनां भाडेतत्वाचेर चलतात जो फावो तो मालमत्ता कर, जायरात फी, तांचे सुवातेर प्रदर्शीत केल्ले सायनबोर्ड फी भरिनात. ताका लागून पालिकेन नवी भाडेपट्टी कबलात एकठांय करपाचे आनी एटीएम कावंटर, जायरात तक्टे आनी सायनबोर्डाचे संख्येचे सर्वेक्षण करपाचें थारायलां.

सगल्या संस्थांनी स्वेच्छेन तपशील सादर करपाक सांगलां. नाजाल्यार पालिके कडल्यान वाठाराची तपासणी करतले अशेंय नोटिशींत म्हणलां.

# मास्काक निरोप दिवया, पूण......

गोंय ‘मास्क फ्री’ करपाचो निर्णय सरकारान घेतला. खंयच्याय खिणाक तो जाहीर करपी अधिसुचोवणी जिल्होधिकारी काडपाक शकता. मात, ह्या निर्णयाचे वटेन आनी विरोधांत लोक प्रतिक्रिया उक्तावंक लागल्यात, ताचीय नोंद घेवची पडटली. तशें पळोवंक गेल्यार सरकारान सांगचे पयलींच लोकांनी मास्काक सोडचीट दिल्या. सरभोंवतणी नदर मारल्यार कोणाकूय हें दिसतलें. हें घातक थारता वा ना तें येवपी देड - दोन म्हयन्यांत स्पश्ट जातलेंच. सद्यां कोरोना दुयेंतींचो आंकडो उणो जाला. दिसाक 10 सकयल दुयेंती मेळटात. पोरूं मे म्हयन्यांत आनी फाटले जानेवारींत जे तरेन दुयेंती रकताले, तशी परिस्थिती आतां ना. तरीय अजून कोरोना दुयेंस पुरायेन ना जावंक ना, हें आमी विसरूंक फावना. महाराष्ट्र, तेलंगण, दिल्ली, अस्तंत बंगाल ह्या राज्यांनी मास्काक आदेवश केला. ताचे फाटोफाट घडये गोंय मास्क बंद करतलें. महाराष्ट्र सरकारान संवसार पाडव्याक कोरोना संबंदीच्यो सगल्यो अटी, नेम फाटीं घेतल्यात.

कोरोना सुरू जालो चीनांत. 2019 त ऑक्टोबर- नोव्हेंबरांत हे धामीन तकली वयर काडली. ही खबर हेर संवसाराक कळटा म्हणसर जानेवारी सोंपपाक पाविल्लो. जानेवारीच्या निमण्या सप्तकांत केरळांत पयलो दुयेंती मेळ्ळो. मागीर २४ मार्चाक अचकीत लॉकडावन लायलो. 21 दीस लोकांचे हालहाल जाले. कोरोना पातळायलो म्हूण एकामेकांचेर आरोप, प्रत्यारोप जाले. मदीं गाडी रुळाचेर आयिल्ली. पूण पयलें, दुसरें, तिसरें ल्हार येवन सगल्यांक त्रासांत, मनस्तापांत उडोवन गेलें. सादारण दोन वर्सांचो काळ हुपला. तरीय अजून सगलें जाग्यार पडूंक ना. महाराष्ट्रान बंदनां काडून उडयल्यांत. तशें पळोवंक गेल्यार देशांत सगल्यांत चड कोरोना दुयेंती महाराष्ट्र आनी दिल्लींतूच मेळिल्ले. अजून थंयची परिस्थिती सुदारूंक ना. ताका लागून कोरोना नेम बंदीचो निर्णय बुमरँग जावपाची भिरांत न्हयकारपाक येना.

महाराष्ट्रान मास्काची सक्ती काडल्या, इतलीच खबर पातळ्ळ्या. मात ‘मास्क सक्ती फाटीं घेतल्या. गर्देच्या जाग्यांचेर तो घालचो असो सल्लो आमी दितात. ताची सक्ती आसची ना,’ अशें मुख्यमंत्री ठाकरेन स्पशट केलां, हें कोणाक खबर ना. सादारण असोच निर्णय आमकां घेवचो पडटलो. कारण हें पर्यटन राज्य. हांगा दर म्हयन्याक लाखांनी पर्यटक येतात. आतांच गर्दी जावपाक लागल्या. भायलीं विमानां येवपाक लागल्यांत. मिर्गा मेरेन पर्यटकांचीं भिऱ्यार भिरीं येत रावतलीं. तींय साबार राज्यांतल्यान, देशांतल्यान. तेन्ना मास्काचो वापर ऐच्छिक करपाचेर परतून विचार जाल्यार बरो.

**मास्का पसून आमची सुटका करात, अशी भोवतेकांचीं मागणी आसा. दुसरे वटेन गोंय हें पर्यटन राज्य आशिल्ल्यान मास्क काडपाच्या आदेशाचेर सरकारान फेरविचार करचो, अशें कांय लोकांक दिसता.**

निदान भौशीक जाग्यांचेर, बशी, रेल्वे, बंद सभाघरांनी दरेकाच्या मुखामळाचेर मास्क दिसचो. कारण हे गर्देचे जागे. वरारां मारपी बशींचो आंकडो बरोच देंवला. खाजगी कंपन्यो, कारखाने हांकां भाडीं मारपी बशींच्या जाग्यार येरादारी खात्यान पर्यायी वेवस्था करूंक ना. देखून आसात त्या बशींनी खेटाखेट जाता. थंयच कोरोना पातळपाची भिरांत आसता. गोंय सरकारान मास्काचो वापर ऐच्छिक करपाचें थारायलां. तरीय ‘जंय गर्दी, थंय मास्क’, हें धोरण आमकां आनीक काय म्हयने चालीक लावचें पडटलें. मास्काक लागून थोड्यांक स्वासाचीं दुयेंसां जाल्यात ही गजाल खरी, पूण विशाणूं पसून आमकां मास्कानूच वाटायलां, हेंय आमी विसरूंक फावना.

गर्मी वाडल्या. ताका लागून मास्क घालून वावरप सगल्यांकूच जमना. स्वासाचें दुयेंस आशिल्ल्यांची तर घुस्मट जावं येता. ताका लागून मास्का पसून आमची सुटका करात, अशी भोवतेकांचीं मागणी. दुसरे वटेन, गोंय हें पर्यटन राज्य आशिल्ल्यान मास्क काडपाच्या आदेशाचेर सरकारान फेरविचार करचो, अशें उरिल्ल्यांक दिसता. तांच्या मतान साबार दुयेंसां पसून आमी ह्या मास्काक लागून वाटावल्यात. तेन्ना तो सामको काडून उडोवचो न्हय. सरकारान तशें कांय म्हणूंक ना. गर्देच्या जाग्यांचेर वावुरप्यांनी स्वता जावन मास्क घालपाक जाय. निदान कोरोना काबार जाय मेरेन. 100 टक्के वासिनीकरण पूर्ण जायत आयलां. कोरोना मात्सो सुशेगाद जाला. तरीय आमी मास्क घालप, सुरक्षीत अंतर पाळप, हात धुवप चालूच दवरचें. आनीक म्हयनो, दोन म्हयने तरी....!!

## हांतरी

### रामनम



**रामनम हो उत्सव** फक्त रामाच्या देवळांतूच मनयतात, अशें ना. गोंयच्या साबार देवतेंच्या देवळांनी तो तितलेच भक्तीन मनयतात. मारुतीच्या देवळांत तर चुकनासतना रामनम मनयतात. अंदूं रामनम आयतारा आयल्या. 10 तारखेक. गोंयचीं सगलीं देवळां रामनम उत्सवान पावन जातलीं.

रामनमीक देवूळ सजयतात. देवूळ म्हणल्यार श्रद्धेचें माहेरघर. रामाची सोबीत मुर्ती रेशमी काठपदरी संवळ्यान न्हेसयतात.कुशीक सुंदर, देखणी सीतामाई पळोवन दोळे दिपून वतात. धनुर्धारी म्हणजेच हातांत धनुश्य आशिल्लो राम रामनमी दिसा खरेंच सोबून दिसता.

चैत्र शुद्ध नम ही रामनम. हे दीस प्रभु रामाचो जल्म जाल्लो. ह्या दिसा रामाच्या देवळांनी णव दीस पसून उत्सव चलता. रामायणाचें पारायण, कथाकीर्तन जाता. नमी दीस दनपरां बारा वरांचेर रामाक पाळण्यांत घालतात. भक्त ताचेर फुलां घालतात. पाळण्याक रसमी दोरी बांदिल्ली आसता. ती ओडून पाळण्याक झोके दितात. खास करून बायलो व्हड संख्येन हाजीर आसतात. त्यो पाळणो म्हणटात. ‘बाळा जो जो रे, कुलभुषणा दशरथ नंदना, बाळा जो जो रे’, हें गीत कानार पडलें काय मन धादोस जालेबगर रावना. रामनमीक देवळांतलें वातावरण मंगलमय अशें आसता. शेनाय, चौघुड्याचे मधूर सुर मन प्रसन्न करतात. दुख्ख, तणाव विसरूंक लायतात. दरेकाच्या ओंठार ह्या वेळार ‘रघुपती राघव राजाराम, पतीत पावन सीताराम’ हेंच गीत येता. ‘प्रभु सीयारामकी जय’ चे घोशणेन देवूळ दुमदुमून वता. आमच्या गोंयात ‘जय श्रीराम’, अशी घोशणा दितात.

उत्सव कसलोय जावं तो भक्तीभावान, एकवटान केलो जाल्यार ताचे गोड फळ आमकांच मेळटा.

**सिद्धी तिळवे**
**7972535321**

## कोंकणी संस्थांच्या पदांची अब्रूय सांबाळूंक जाय



मंगळूरच्या बस्ती वामन शणै नांवाच्या एका कोंकणी युगपुरसान मंगळूर आनी भोंवतणच्या वाठारांतले कोंकणी चळवळीक वेगळेच तरेची उबारी हाडली. खंयचेय संस्थेच्या अध्यक्षपदार जी व्यक्ती पावता ते व्यक्तीन त्या पदाचो व्याप सांबाळपाची गरज आसता. बस्तीमामान तें काम बरे तरेन केलें. तांचें व्यक्तीमत्वूय तितलेंच भारदस्त. आमच्या गोंयांत गोवा कोंकणी अकादेमी सारक्यो कोंकणीच्या मळार काम करपी जायत्यो संस्था आसात. तांचेंय काम चलता. पूण, मंगळूरच्या विश्व कोंकणी केंद्राच्या वावरा कडेन तांची तुळा करपाक मेळना, हें सत्य. खंयचेच संस्थेचो अध्यक्ष आसता ताणें जर आपलें व्यक्तीमत्व पोरकारी जावंक दिलें तर ते संस्थेची पत वाडूंक शकना. कार्यक्रम जाले म्हूण पत, प्रतिश्ठा वाडटा अशें आसना.

आदल्या अध्यक्षांनी वा पदाधिकाऱ्यांनी कश्ट आनी त्यागाचे भावनें-तल्यान मेळोवन दिल्ली संस्थांची आशिल्ली नाशिल्ली पतूय देंवपाक लागता. ती देंवली म्हणटकूच समाजूय असल्या संस्थां कडेन संबंदीत आशिल्ल्या लोकां कडेन आनी तांच्या वावरा कडेन गंभीरतायेन पळयना. अशें जाता तेन्ना संस्थेचे मोखीचेर वायट परिणाम जाता. अध्यक्षपदा-चो आब सांबाळप म्हणल्यार संस्थेच्या व्यासपीठार जेन्ना चडटा तेन्ना वेळाकाळाचें धंगण दवरून आपलें वर्तन दवरप हें पयलीं म्हत्वाचें आसता. खंयच्या वेळार कोण कितें उलयता, वागता, खंयच्या वेळार कशी भुमिका घेता हाचेर समाजाचें लक्ष आसता. बस्तीमामान कोंकणी विश्व केंद्राची धुरा सांबाळटना ह्या सगल्या गजालींक फावो तो न्याय दिलो, हें त्या केंद्राचे सुवाळे आनी कार्य पळयतकच दिसता.

म्हणुनूच कोंकणी भाशे कडेन आनी कोंकणी समाजा कडेन आस्थेन पळोवपी धर्मीक लोकांनी तांचेर विस्वास दवरलो. तांचे संस्थेन कोंकणी म्हणून फकत कविता, कथा, कादंबरी, नाटक इतले पुरतो मर्यादीत विचार केलो ना. तांणी कोंकणी मनशाच्या समाजाचें व्यक्तीमत्व विकास नदरे मुखार दवरून वावर फुडें व्हेलो. ह्या केंद्राचो वावर हांव फाटल्या धा वर्सां सावन पळयतां. बस्तीमामान आपल्या समविचारी दानतीच्या लोकांक संघटीत करून शक्तीनगर मंगळूर हांगा जें केंद्र उबारलें तें दरेका गोंयकारान म्हणल्यार हांगाच्या राजकारणांत सक्रीय आशिल्ल्यांनीय वचून पळोवचें. कर्नाटक आनी केरळांतले कोंकणी लोक गोंयाक कोंकणीचें कुळार म्हणून पळयतात. हालीं हालीं गोंयांत कोंकणीची जी स्थिती निर्माण जाल्या ती पळोवन तेवूय निर्शेतात. खरें म्हणल्यार मंगळूरांतल्या कोंकणी भवना परस व्हडलें भवन गोंयांत आसपाचें. हें सपन केन्ना पूर्ण जातलें काय? हांगाच्या राजकारण्यांनी आनी धनिकांनीय आपले भाशेचे प्रतिश्ठे विशीं केन्ना व्हडलेंशें चिंतलेंच ना. ताचो दिश्टावो तांकां जावचो. तो जातलो तेन्ना गोंयांत भाशेचें भवन उबें जातलें. सुदैवान आयज गोंयांत कोंकणी भाशेक विरोधूच उरूंक ना. पूण चडशे जाण कोंकणीचो वावर करपी मेरेन व्यक्तीगत पांवड्यार आपणाक कित्यांत चड फायदो आसा हाचोच चड विचार करतात आनी फायदो आसता थंयच प्राधान्य दितात. आमी त्या काळार कोंकणी ह्या तीन अक्षरी उतरांचेर मातसो लेगीत अन्याय जालो जाल्यार आवाज काडटाले, तें आतां घडना. हातूंतल्यान कोंकणीक अनुकूल वातावरण तयार जाल्लें आसतनाय कोंकणीचेर अन्याय जाता. मंगळूरांत आतां कोंकणी म्हणुनूच विचार जावंक लागला.

**खरें म्हणल्यार मंगळूरांतल्या कोंकणी भवना परस व्हडलें भवन गोंयांत आसपाचें. हें सपन केन्ना पूर्ण जातलें काय? हांगाच्या राजकारण्यांनी आनी धनिकांनीय आपले भाशेचे प्रतिश्ठे विशीं केन्ना व्हडलेंशें चिंतलेंच ना. ताचो दिश्टावो तांकां जावचो. तो जातलो तेन्ना गोंयांत भाशेचें भवन उबें जातलें.**

थंय आदीं फकत जीएसबी म्हणुनूच पळोवप जातालें. बस्तीमामाचें पर्व आयलें आनी तातूंत खूब बदल जालो. ताचो फायदो भाशेक जालो. तेंच आमी पळोवंक जाय.

मनीस जल्माक येता तो केन्ना तरी संवसारांतल्यान वता. बस्तीमाम आपलें कार्य करून गेलो. सगल्यांत म्हत्वाचें कितें जाल्यार बस्तीमामा उपरांत कितें हो प्रस्न थंय निर्माण जावंक पावलो ना. कितलेशेच नवे बस्तीमाम थंय तयार जाल्यात. चळवळीचें जैत तें हें. नंदगोपाळ शणै हे विश्व कोंकणी केंद्राचे नवे अध्यक्ष तेवूय तेच तांकीन वावुरतना दिसले.

## होमखण

गुरू बालीच्या रुपान ह्या केंद्राक मेळिल्ली एक संजीवनीच म्हणची पडटली. हें केंद्र कोंकणी विद्यार्थ्यांक वेगळ्यावेगळ्या मळबांत प्रवेश करूंक मेळचो म्हूण सोंपणां तयार करपाचें काम करता. ते खातीर दर वर्सा केंद्र लाखांनी रुपयांची शिश्यवृत्ती दिता. दोन वर्सां आदीं मंगळूरांत गेल्लों तेन्ना एके रिक्षेंत बसलों तेन्ना त्या रिक्षावाल्यान म्हाका आपल्या पुताक अभियंत्याच्या शिक्षणा खातीर विश्व कोंकणी केंद्रान आदार केला म्हणपाचें सांगलें.

केंद्राच्या आदारान जांणी शिक्षण घेतलां ते विद्यार्थी कितले व्हडले जाले तरीय देवळांत आयिल्लेवरी ह्या केंद्रांत येवन कोंकणीच्या वावराक आपलेपरीन आदार करतना दिसतात. हें चित्र गोंयांतूय दिसचें अशें दिसता. तें जालें जाल्यारूच फुडाराक कोंकणीची घुडी धोलता ती खंयच्यानूय दिसतली. बस्तीमामान केंद्राच्या अध्यक्षपदाचो आब जे तरेन सारको दवरलो तशेच तरेचो आब आमच्या गोवा कोंकणी अकादेमीच्या अध्यक्षांनीय दवरचो, ही म्हजी भावना. खंयचीय संस्था हो फकांडाचो विशय जावंक शकना. विश्व कोंकणी केंद्राचो आदर्श आमी नदरे मुखार दवरचो.

म्हजो मित्र उदय म्हांबरो हाका मेळिल्ल्या विश्व कोंकणी केंद्राच्या विमला पै पुरस्कार वितरण सुवाळ्याच्या निमतान फाटल्या कांय दिसां आदीं मंगळूराक वचपाचो योग आयलो. बस्तीमाम गेलो तेन्नाच उदय आनी हांवें मंगळूराक वचपाची तयारी केल्ली, पूण कोरोनाक लागून ऐनवेळार वचप टाळ्ळें, पूण उपरांत थंय वचपाचो योग आयलोच. हें केंद्र म्हणल्यार म्हाका देवूळ कशें दिसता. त्या वाठारांत प्रवेश करतकच तान भूक भागता. कोंकणीचे अस्मितायेची एक घुडी. गोंयकार थंय पावतकच ते लोक आपलेपणान आनी मानान वागयतात.

परंपरा आनी आधुनिकता हांची सांगड घालून वावर करपाचे तांचे कळाशेची तोखणाय करीत तितली उणीच. बदलत्या काळा प्रमाण आधुनिकता स्विकारची म्हणून तांणी आपल्यो परंपराय सोडून दिवंक नात.

**संजीव वेरेंकार**
**9422643629**

## उक्ती माची

### आरटीआय कायद्यांत सुधारणा जावची

कांय माहिती अधिकाऱ्यांक आळो घालपाक कायद्यांत कांय बदल गरजेचे आसात. ताका लागून सरकारान माहिती अधिकार कायद्यांत सुधारणा करची. ह्या कायद्यांतर्गत नगर नियोजन कार्यालयांत एक अर्ज केल्लो. तातूंत जमीन विक्रेच्या ना हरकत दाखल्या विशीं माहिती विचारिल्ली.

पयलो प्रस्न आसलो, फाटल्या तीन म्हयन्यांत कार्यालयान जमीन विक्रे खातीर कितले ना हरकत दाखले दिले ? जाप खूब अजापाची मेळ्ळी. वाचात ती - आयच्यो कालबद्ध गजाली हाताळपी तांत्रीक कर्मचाऱ्यांक 2016 सावन 5 वर्सां परस अदीक काळांतल्यो देखी सोदपाच्या कामाक लावचें पडटलें आनी हे श्रेणींत येवपी प्रकरणांचो तपास करचो पडटलो. तुमचे गरजे प्रमाण केशी आनी कागदपत्रांची छाननी करून कागदपत्रां जारी करचीं पडटलीं.

मुळांत ही जाप विचारिल्ल्या प्रस्ना कडेन संबंदीत ना. प्रस्न फकत तीन म्हयन्यांच्या काळा खातीर विचारिल्लो. म्हणल्यारूच माहिती अधिकारी लोकांची दिशाभूल करतात. फुडें तो म्हणटा - म्हणून तुमचे वरवीं माहिती दिल्ल्यान ह्या कायद्याच्या कलम 7(9) वरवीं दिल्ल्यान ह्या भौशीक प्राधिकरणाचीं संसाधनां असमानतेन वळोवपाची शक्यताय आसा आनी तेंवूय योग्य वेळांत. आतां, हांगा अधिकारी कायद्याच्या कलम 7(9) चो फायदो घेता, जो प्रस्ना कडेन संबंदीत ना. तें कलम म्हणटा, माहिती ज्या स्वरूपांत मागयल्या त्या स्वरूपांत मेळटली. जे मेरेन ती भौशीक प्राधिक-रणाचीं संसाधना विपरीतपणान वळवू शकना वा तांचे सुरक्षितताये खातीर वा संरक्षणाक लुकसाण करपी थारतली. अशे तरेच्या असक्षम अधिकाऱ्याक कागाळ दाखल करतकच ख्यास्त जातली अशी कायद्यांत सुधारणा करची. ताचे आड अपील ही कायदेशीर कारवाय न्हय. कायदो हो कांय सरकारी अधिकाऱ्यां खातीर खेळण्या सारको जाला. ताका लागून अशे तरेच्या बेजबाबदार अधिकाऱ्या आड कारवाय करपाक सरकारान शिस्तभंगाची कायद्यांत सुदारणा करची.

**- राजेश बाणावलीकार, हडफडें**

## सालांत

### चायनीज जिनस भलायकेक मारक



भारतियांक चायनीज गजालींचें आदीं पासूनच खूब आकर्शण. चीनी वस्तूं पासून चायनीज जिनसां मेरेन सगल्योच गजाली भारतीयांक आवडटात. तातूंतच चायनीज जिनसांची सगल्यांकूच चटकशी लागल्या. भायर जेवपाचें थारायलें जाल्यार चडशे जाण चायनीज जिनसांचोच बेत करतात. मात भारतांत आनी चीनांत मेळपी जिनसांत खूब फरक आसा. जिबेक योग्य थारतले अशें रुच्चीक जिनस हांगा तयार जातात.

रस्त्या कुशीक, फुटपाथाचेर, पायणींनी मेळपी सवाय आनी सहज मेळपी गाड्या वयले चायनीज जिनस खावपा कडेन सगल्यांचोच कल आसता. तातूंतच ह्या गाड्यांचेर तरणाटे पिरायेचे चले आनी चलयोच चड प्रमाणांत दिश्टी पडटात. चायनीज गाड्यांचेर तरणाट्यांचीच चड गर्दी पळोवंक मेळटा. हॉटेल आनी रेस्टॉरंटांचे तुळेंत हांगा खावपाचे जिनस सवाय मेळटात हें ताचे फाटलें कारण आसुये.

जिनस सवाय दिवपा खातीर थंयच्या रांदप्यांक कितल्योश्योच तडजोडी करच्यो पडटात. तातूंत निकृश्ठ तरेच्यो भाजयो आनी तेल वापरतात. चायनीज जिनसांनी अजिनोमोटो हो जिनस वापरतात. जिनसांक रुच येवची म्हणून अजिनोमोटोचो वापर करतात. गरजे परस चड अजिनोमोटो वापरलो तर ताचो परिणाम पचनसंस्थेचेर जावं येता.

चायनीज जिनसांत मोनोसोडियम ग्लुटामेट, शेजवान सॉस, कृत्रीम रंग, स्टार्च कॉर्न ह्या सारके जिनस वापरिल्ल्यान पचनसंस्था इबाडूंक शकता. शीत, बांबूचें मूळ, मशरूम, नूडल्स, चिकन ह्या सारक्या जिनसांचो चायनीज जिनसांत आसपाव जाता. खूब फावटीं हे जिनस निकृश्ठ दर्ज्याचेच आसतात.

चिकन, मांस अर्दवट शिजयतात. ताका लागून ते पचपाक जड जातात. बरे प्रतीचो मैदा नासल्यार तो आंतकड्यांत वचून चिकटूंक शकता. चायनीज जिनसांनी वापरतात तो तांदूळय पॉलीश आनी रिफायंड आशिल्ल्यान पचनसंस्थे खातीर हिताचो नासता. ताका लागून चायनीज जिनसांचें सेवन भलायके खातीर मारकूच आसा. केन्नाय चुकून बऱ्याश्या हॉटेलांत वा रेस्टॉरंटांत चायनीज डिश खाल्यार कांय इबाडना पूण सप्तकांतल्यान चार फावटीं चायनीज जिनस खावपाची संवय भलायकेक लुकसाणाची थारूं येता.



**श्याम ठाणेदार,**
**99225 46295**

## म्हौंवाचें बोट

### दातें

*दातें हें पयलीं भुरगेपणाक आमी पळयताले. दातें रगड्याचो फातर आसता तसल्या फातराचें दातें करतात. एक दात्याची पाली पोनां साक दवरून ताचेर एक दात्याची पाली आनी वेल्यान दुसरी दात्यां पाली दवरताले. वयल्या पालयेर बारीक असो बुराक. तातूंत हातभर कोण्याची खुटी. ताका एका वटेन तोंक आसतालें. तें त्या बुराकान घट्ट करप. ते खुटयेक धरून दात्याचेर दळटाले. एक म्हळ्यार गवांचो भड्डो करताले. सणां- परबे दिसांनी ताची सोजी करप तशेंच तांदूळ चायणी घालून ज्यो कणयों मेळटाल्यो, त्यो मुठ - मुठ भर दात्यान घालून दळटाले आनी ताचे बारीक पिठ करताले. जाय तेन्ना ताची चपाती थापुन खाताले. नुस्तें तळपाक रवो सोंपल्यार तें पीठ लावून तळटाले.*

*आतां दात्यार दळप कमी जालां. दळपाचें आसल्यार रोखडेच बाजरांत वचून गिरण खंय असा थंयच्यान दळून हाडटात. दात्यार दळटलो जाल्यार चड वेळ लागता म्हूण गिरणीर दळून हाडटात.*

*दातें आतां दिश्टीच पडना. कोणागेर आसल्यारुय तें वापरप जायना. एका साकांत घालून एका जाग्यार दवरिल्लें आसता. घरांत लग्न आसल्यार ताचो वापर जाता. हळदीक परंपरे नुसार दातें माणटात. ते दिसा तें भायर काडटात. मागीर न्हवरो/व्हंकल आनी पांच सवाशीणी दात्याक हात लावून थोडे कड्डुण दळटात. दळटा आसतना जाणकार बायलो व्होवयो म्हणटात तेन्ना बरीच मजा पळोवक मेळटा. एक म्हण केन्ना आयकूंक येता. ‘कामा पुरतो मामा’ अशी ह्या दात्याची गत. काम जातकच ताका काडून परत आशिल्लें थंय दवरतात. अशें हें दातें आपलें काम मात चोख बरें करता.*



**दीपक शिरोडकर**
**9527557172**

■ **मुद्रक आनी प्रकाशक प्रमोद आचार्य** हांणी प्रुडंट मिडिया (गोवा) प्रा.लि. गोंय हांचे वतीन हें पत्र एलेगंट ऑफसेट प्रिंटर्स प्रा. लिमिटेड, प्लॉट नं. 2-3-4, थिवी इंडस्ट्रीयल इस्टेट करासवाडो, म्हापशें-गोंय हे सुवातेर **छापून** दुसरो माळो, फोर्थ इस्टेट (कामत मॅट्रोपोलीस) सांत इनेज, पणजी-गोंय हांगां **प्रकाशीत** केलें.

■ **संपादक: महेश महादेव दिवेकार** (पीआरबी कायद्या खाला संपादकी जबाबदारी)
■ **पणजी कचेरी:** दुसरो माळो, फोर्थ इस्टेट (कामत मॅट्रोपोलीस) सांत इनेज, पणजी-गोंय हे सुवातेर उजवाडायलें. फोन नं. **2405952**.

■ **ई-मेल: bhaangarbhuin@gmail.com** (बातम्या खातीर) **bhaangarbhuineditorial@gmail.com /** (लेख आनी साहित्या खातीर ) **/ bhaangarbhuinadvt@gmail.com** (जायरातीं खातीर).

# तोरशेंच्या रस्त्याचें 17 एप्रील मेरेन डांबरीकरण करचें

## आमदार प्रवीण आर्लेकार हांची अधिकाऱ्यांक शिटकावणी

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पेडणें:** तोरशें राष्ट्रीय म्हामार्गाचेर धोको निर्माण करपी पडिल्ल्या फोंडकुलांचें डांबरीकरण 17 एप्रील मेरेन करचें. अशी सुचवणी आमदार प्रवीण आर्लेकार हांणी केली. काल तांणी अधिकाऱ्यां वांगडा तोरशें हांगच्या राष्ट्रीय म्हामार्गाची पळोवणी केली.

राष्ट्रीय म्हामार्ग 66 चेर तोरश्यां रस्त्या कुशीक सरकारी हायस्कूल आसा. त्या हायस्कुलाचे कुशीक धोको निर्माण करपी वोल्तां, तशेंच खडबडीत रस्तो जाला. हे सुवातेर आतां मेरेन 50 परस चड ल्हान-व्हड अपघात जावन सुमार सात-आठ जाणांक मरण आयलां.

फाटल्या दोन दिसां पयलीं हे सुवातेर दोन चाकी आनी चार चाकी वाहनांचो अपघात जाल्लो. पूण सगळ्यांचो जीव साल्वार जाल्लो. दोनूय वाहनांचें मात व्हडा प्रमाणांत लुकसाण जाल्लें.

ह्या रस्त्यार पडिल्लीं फोंडकुलां चुकोवन वाहनां चलोवपाक बरेच त्रास भोगता. हो रस्तो सारको करपाची मागणी तालुका विकास समितीचे निमंत्रक व्यंकटेश नायक आनी हेर नागरिकांनीय अधिकाऱ्यांकडेन केल्ली. अधिकाऱ्यांनी ह्या वेळार रस्त्याची दुरुस्ती करतले अशें सांगिल्लें. पूण फोंडकुलां पुरोवंक नाशिल्ल्यान हाची दखल आमदार प्रवीण आर्लेकार हांणी रस्त्याची पळोवणी केली.

ह्या वेळार तांचे वांगडा राष्ट्रीय महामार्ग रस्त्याचे अधिकारी गावडे, तोरशें सरपंच उत्तम वीर, आदले सरपंच सूर्यकांत तोरसकार, बबन डिसोजा, अशोक सावळ, आदले जिल्हो पंचायत वांगडी रमेश सावळ, पेडणें भाजप मंडळ अध्यक्ष तुळशीदास गांवस, नवनाथ तोरस्कार, उमेश गाड आनी हेर नागरीक हाजीर आशिल्ले. फाटल्या वर्सा तेन्नाचे उपमुख्यमंत्री मनोहर आजगांवकार, भौशीक बांधकाम मंत्री दीपक पावस्कार आनी अधिकाऱ्यांनी ह्या रस्त्याची पळोवणी केल्ली आनी त्या वेळार रस्त्याचे कुशीक आशिल्ल्या हायस्कुलाच्या पालक शिक्षकांनी, रस्त्याचे कुशीक राखण वणट उबारची अशी मागणी केल्ली. तेन्ना अधिकारी आनी मंत्र्यांनीय राखणे वणट उबारपाचें आस्वासन दिल्लें. पूण कंत्राटदाराच्या मनमानीक लागून कंत्राटदारान हायस्कुलाचे वयले वटेन राखणे वणट बांदून कंपावंड घालपाचो यत्न केला.फुडाराक बांदिल्लें कञपावंड पडपाची शक्यताय आशिल्ल्यान सरकारान आतां रस्त्या वांगडा सकयले वटेन राखणे वणट बांदून हायस्कुलाच्या पुराय रस्त्याक सुरक्षा दिवची, अशी मागणी पालक, शिक्षक आनी नागरिकांनी केल्या.

उमेश गाड हांणी ह्या वेळार आपले विचार मांडले.

17 एप्रील मेरेन ह्या रस्त्याक पडिल्लीं फोंडकुलां डांबरीकरण करून पुरोवचीं अशी सुचवणी. तशेंच दुसरे वटेन जो पयलींचो हायस्कुला वटेन वचपी रस्तो आसा तो धोक्याचो जाल्ल्यान तोय सारको करपाची सुचवणी आर्लेकारान अधिकाऱ्यांक दिल्या.

तोरशेंच्या रस्त्याची पळोवणी करतना आमदार प्रवीण आर्लेकार. वांगडा सरपंच उत्तम वीर, सूर्यकांत तोरस्कार आनी हेर. (निवृत्ती शिरोडकार)

खोर्ली म्हापशेंच्या सारस्वत म्हाविद्यालयांत आयोजीत पत्रकार परिशदेंत उलयतना प्राचार्य डॉ. संतोष पाटकार. कुशीक प्रा. जयेश च्यूरी, संदीप परब, प्रशांत वाळके आनी अमेय वरेरकर. (उमेश झर्मेकार).

# म्हापश्यां फाल्यां जनजागृती

## गरिबांच्या पुनर्वसनाचें काम हातांत घेतिल्ल्या जिवन आनंद संस्थेचो उपक्रम

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**म्हापशें** : म्हापशें शारांतल्या रस्त्यावेल्या गरीब भावांक मनीसपणाचे नदरेन पुनर्वसना खातीर यत्न करप. तशेंच तांकां बरें जिवीत मेळोवन दिवपाचे भावनेन जीवन आनंद संस्था म्हापशें कार्यरत आसा. हे संस्थेची म्हापशें तशेंच आशिकुशीकच्या लोकांक म्हायती मेळची म्हणून संस्थेन म्हापशें जनजागृती फेरीचें आयोजन केलां. ही फेरी शेनवार, ता. 9 एप्रिलाक सांजच्या 5 वरांचेर काडटली, अशी म्हायती संस्थेचे अध्यक्ष संदीप परब हांणी दिली.

खोर्लेच्या सारस्वत म्हाविद्यालयांत आयोजीत पत्रकार परिशदेंत परब हांचे वांगडा म्हाविद्यालयाचे प्राचार्य डॉ. संतोष पाटकार, प्रा. जयेश च्युरी, प्रशांत वाळके आनी म्हापशें रोटरॅक्ट क्लबाचे अध्यक्ष अमेय वरेरकार हाजीर आशिल्ले.

ही जनजागृती फेरी सारस्वत शिक्षण संस्था, म्हापशें वेपारी संघटणा, रोटरी क्लब ऑफ गोमंतक आनी रोटरॅक्ट क्लब ऑफ म्हापशेंच्या जोड पालवान काडटले. फेरीची सुरवात खोर्ली शिमेरच्यान जातली. उपरांत वृंदावन हॉटेल, सिरसाट इमारत ते म्हापशें अर्बन आनी उपरांत गांधी चौकाक वोल्त मारून फेरीची चाचा नेहरू उद्यानांत सांगता जातली. जावपी कार्यावळींत संस्थेचे अध्यक्ष संदीप परब आनी मुखेल वक्ते गुरू पाऊसकार मार्गदर्शन करतले, अशी म्हायती प्राचार्य संतोष पाटकार हांणी दिली.

जिवन आनंद संस्थेन पेडें, म्हापशें हांगा जिल्हो हॉस्पिटला लागसारा संवेधना नांवान निवारा घर सुरू केलां. हें खास बायलां खातीर घर आशिल्ल्यान ओपा खांडेपार फोंडें हांगा दादल्यां खातीर निवारा घर कार्यरत आसा. ह्या संवेदना घराची तांक 20 ते 22 जाणांची आशिल्ल्यान सद्या ह्या घरांत 18 बायलां आसात. तांच्या पुनर्वसनाची जापसालदारी संस्थेन घेतल्या. पयलीं हांगच्या गरीब लोकांक कुडाळ वा फोंडें व्हरताले. हो उणाव पयस करपा खातीर म्हापशेंच निवारा घर सुरू केलां. व्हडले सुवातेर अशीं घरां आसचीं, हे खातीर आमी यत्न करतात, अशी म्हायती परब हांणी दिली.

*म्हापशें शारांत मुंबय आनी हेर वाठारांतल्यान भिकाऱ्यांचे पंगडूच येतात. तांचो भीक मागप हो धंदोच जाला. पुलीस, नगरपालिका, सरकाराचें समाज कल्याण खातें आनी जिवन आनंद सारक्या सामाजीक संस्थांच्या जोड पलवान येवजण्यो राबयल्यार हें सगळें उणें जावप शक्य जातलें. ही जोड मोहीम राबोवपाची सामकी गरज आसा.*

— प्रशांत वाळके

कोचींत दामोदर मावजो हांचो भोवमान करतना साहित्यीक आर. एस. भास्कर. कुशीक हेर मानेस्त.

# दामोदर मावजो हांचो कोचींत भोवमान

भांगरभूंय । खबरां संस्था

**कोची:** कोची राज्यांत पुस्तक उत्सव मेळाव्यांत बालामणीयम्मा पुरस्कार समर्पण बसकेंत मुखेल सोयरे म्हणून पाविल्ल्या ज्ञानपीठ पुरस्कृत दामोदर मावजो हांचो केरळ कोंकणी अकादमी, हेर संस्थां आनी साहित्यिकां वतीन भोवमान जालो.

ह्या वेळार केरळ कोंकणी कल्चरल फोर्ट बिजू टी.रामन, साहित्य अकादमीचे कोंकणी सल्लागार समितीचे पय्यन्नूर रमेश पै, स्पन्दन मासीकचे टी. आर. सदानंद भट, जोड सचीव के. विजयन, शैला दामोदर मावजो, केरळ कोंकणी अकादमी सचीव चन्द्रबाबू यू.शेटी आनी पी. जी. कम्मत फावंडेशनाचे ट्रस्टी आनंद जी. कम्मत ह्या वेळार हाजीर आशिल्ले.

# वाळपय फाल्यां बाल भलायकी शिबिराचें आयोजन

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**वाळपय:** वाळपय शिक्षण संस्था संचलीत श्री हनुमान विद्यालय प्राथमीक विभाग आनी सरस्वती शिशू वाटिका वाळपय वतीन शेनवार, ता. 9 एप्रिलाक सकाळीं 9 ते दनपरां 12.30 मेरेन बाल भलायकी शिबिराचें आयोजन केलां. हें शिबीर प्राथमीक विभाग वाळपय पुलीस स्टेशना मुखार आयोजीत केलां. ह्या शिबिरांत म्हापशें आनी सामाजीक केंद्र वाळपय हांतल्या तज्ञ डॉक्टरांचे मजतीन बाल भलायकी शिबीरांत कान, नाक, ताळो, दंत चिकित्सक, दोळे चिकित्सक हांचे वतीन विशेश तपासणी करतले.

3 ते 10 पिरायेच्या भुरग्यांची तपासणी ह्या वेळार जातली. भुरग्यांनी ह्या शिबिरांत वांटेकार जावचें. चड म्हायती खातीर रूपा वझे (9518521597) आनी आराधना जोशी (8767178262) हांचे कडेन संपर्क करपाचें आवाहन आयोजकांनी केलां.

वारखंड सरपंचपदार संतोष मावळणकर. वांगडा पंचायत मंडळ. (निवृत्ती शिरोडकार)

# वारखंड सरपंचपदार संतोष माळवणकाराची निवड

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

**पेडणें:** मे म्हयन्यांत पंचायत मंडळाचो कार्यकाळ सोंपतलो. उरिल्ल्या कार्यकाळा खातीर वारखंड सरपंचपदार संतोष मावळणकार हांची बिनविरोध निवड जाली.

सरपंच संजय तुळसकार हांणी अलिखीत करारा प्रमाण आपल्या पदाचो राजिनामो दिल्या उपरांत हें पद रितें जाल्लें. पंचायत कार्यालयांत पंचायत मंडळाची विशेश बसका जावन सरपंच पदा खातीर निवड केली. संतोष मावळणकार हांणी सरपंच पदा खातीर उमेदवारी अर्ज दाखल केल्लो. तांकां संजय तुळसकार हांणी अनुमोदन आनी मंदार परब हांणी सुचवणी केली. ह्या वेळार पल्लवी परब हाजीर आशिल्ली. नवे सरपंच संतोष मावळणकार हांणी, आपूण सरकाराच्या माध्यमांतल्यान आनी पंचायत मंडळाच्या सहकार्यान गावची उदरगत करपा खातीर यत्न करतलो अशें तांणी म्हणलें.

# लायट आसची ना

भांगरभूंय । डीआयपी

**पणजी:** आयज 11 केव्ही नार्वा फिडरावयल्यान सकाळीं 9 ते दनपारां 3 वरां मेरेन कोनाटी, वरपाल, हातुर्ली आनी भोंवतणच्या वाठारांत लायट आसची ना.

# फाल्यां राष्ट्रीय सर्वेक्षण दीस

भांगरभूंय । डीआयपी

**पणजी:** मालमत्ता आनी भूंय नोंदणी खात्या वतीन ता. 9 एप्रील 2022 दिसा पणजे मिनेझीस ब्रागांझा सभाघरांत आयोजीत कार्यावळींत राष्ट्रीय सर्वेक्षण दीस मनयतले. पणजेचे म्हापौर रोहित मोन्सेरात कार्यावळीक मुखेल सोयरे जाल्यार महसूल सचीव रमेश वर्मा मानाचे सोयरे आसतले.

# सैम निरोगी जाल्यार आमीय निरोगी: डॉ. सरमोकादम

## भलायकी शिक्षण मंडळान संवसारीक भलायकी दीस मनयलो

भांगरभूंय । डीआयपी

**पणजी**: कोवीड म्हामारीच्या कठीण परिस्थितींतल्यान आमी धडो घेवपाक जाय आनी ह्या दुर्येसाचें मूळ सोदपाक जाय. सैम निरोगी जाल्यार आमीय निरोगी रावतले, हे आमी लक्षांत दवरपाक जाय. आपली भलायकी आनी निसर्ग हांचो मदलो दुवो म्हळ्यार अन्न, उदक, हवा आनी माती. आमचें परंपरीक गिन्नान आमी समजून घेवपाची गरज आसा अशें गोंय राज्य जैवविविधताय मंडळाचे वांगडी सचीव आनी गोंय राज्य वेटलँड प्राधिकरणाचे नोडल अधिकारी डॉ. प्रदीप सरमोकादम हांणी सांगलें.

भलायकी सेवा संचालनालयाच्या भलायकी शिक्षण मंडळान पणजे मिनेझीस ब्रागांझा सभाघरांत आयोजीत कार्यावळींत संवसारीक भलायकी दीस मनयलो. ह्या वेळार डॉ. सरमोकादम मुखेल सोयरे म्हणून उलयताले.

संवसारीक भलायकी दिसाचीं परबीं दीत तांणी फुडें म्हणलें, दोतोर हे समाजाचेर अदीक प्रभाव घालतात. ते समाजाक शिक्षीत करतात.

आमच्या देशांत 9 वोलसाणेचे जागे आसात तातूंत गोंयान सात वोलसाण जागे सोदल्यात. वोलसाणेच्या जाग्यांचें संरक्षण करून जिवसंपत्तीचो सांबाळ करपाची गरज आसा, असो उलो डॉ. सरमोकादम हांणी मारलो.

राज्य कुटूंब कल्याण मंडळाचे मुखेल वैजकी अधिकारी आनी लसीकरण अधिकारी डॉ. राजेंद्र बोरकार हांणी भलायकी कर्मचारी आनी हेरांच्या प्रयत्नांतल्यान साथीच्या रोगाचेर नियंत्रण मेळोवपाक येस मेळयलां, अशें तांणी सांगलें.

राज्य एपिडेमियोलॉजिस्ट डॉ. उत्कर्ष बेतोडकार हांणी भलायकी विभागान सूरू केल्ल्या हरीत उपक्रमांची म्हायती दिली.

ह्या वेळार राज्यभरांतल्या सगळ्या सामुदायीक भलायकी केंद्रांचो आनी मुळाव्या भलायकी केंद्रांचो भोवमान केलो.

दंत विभागाचे उपसंचालक डॉ. उज्वल प्रभुदेसाय, उत्तर जिल्हो हॉस्पिटलाचे वैजकीय अधीक्षक डॉ. वंदना धुमे, आयुशचे उपसंचालक डॉ. मीनल जोशी, डॉ. गीता काकोडकार आनी हेर ह्या वेळार हाजीर आशिल्ले.

डॉ. आयरा आल्मेदा हांणी मानेस्तांक येवकार दिलो. डॉ. सिओना गोम्स हांणी उपकार मानले. ॲड. पल्लवी मुळगांवकार हांणी कार्यावळीचें सुत्रसंचालन केलें.

संवसारीक भलायकी दिसाचें दिवली पेटोवन उक्तावण करतना डॉ. प्रदीप सरमोकादम. कुशीक हेर मानेस्त.

संवसारांतले 80 टक्के लोक आजूनय परंपरीक वखदांचेर निंबून आसात आनी देखून पर्यावरण आनी सैम म्हत्वाचो आसा. सध्या जीं वखदां सैमांतल्यान येतात तीं लेगीत सगळीं कृत्रीम नासतात. वखदी वनस्पत ही परंपरीक वखदांचो कणो. जर मनशाक योग्य अन्न मेळत जाल्यार ताका वखदांची गरज लागची ना, अशें डॉ. प्रदीप सरमोकादम हांणी सांगलें.

## भारत- ऑस्ट्रेलिया कबलात
# वेपाराक मेळटलो नेट



भारत-ऑस्ट्रेलिया वेपार कबलाती खाला द्विपक्षीय वेपार पांच वर्सांत 50 अब्जां मेरेन वाडोपाच्या सुरवेक व्यक्त जाल्ले अपेक्षे परस चड वेगान वाडून तो सध्याच्या 26-27 अब्ज डॉलरां वयल्यान 2030 मेरेन 100 अब्जां मेरेन पावतलो, असो विस्वास उद्येग मंत्री पियुष गोयल हांणी सांगलें. हे कबलातीक लागून निर्माण जाल्ले उमेदीक लागून दोनूय वटेनच्यान वेवसायीक आशावाद वाडला, अशें तांणी सांगले. मेलबर्नांत ऑस्ट्रेलियेचे वेपार, पर्यटन आनी गुंतवणूक मंत्री डॅन टेहान हांचे सयत मेलबर्न विद्यापीठांत ते उलयताले. तांणी ऑस्ट्रेलियन उद्येगांक भारतांत गुंतवणूक करपाक आमंत्रित केलां. 'आमी तुमकां पारदर्शकताच, आमचो विस्वास, कायद्याचें राज्य प्रदान करूं. आमी दोनूय लोकशाय आशिल्ले देश. दोनूय देशांतल्या लोकांक खेळ आवडटा, दोनूय देश राष्ट्रकुल वांगडी आसात,' अशें गोयल हांणी सांगलें.

तांणी मेलबर्न क्रिकेट मैदानाचेर दोनूय देशांतल्या उद्येग समुदायाच्या वांगड्यां मुखारुय ते उलयले. भारताची मोठी बाजारपेठ आनी ऑस्ट्रेलियेचो गुंतवणूक करपा बाबतींतलो शेक हाचो दोनूय देशांक खूब फायदो जावपाक शकता. भारत-ऑस्ट्रेलिया अर्थिक पालव आनी वेपार कबलात भारतांतल्या सुमार एक अब्ज गिरायकांची बाजारपेठ ऑस्ट्रेलियन उद्येगां खातीर करतली, अशें तांणी सांगलें.

वस्त्रोद्येग, वखदां उत्पादन, सरबराय, वस्ती, कपडे, म्हायती आनी तंत्रज्ञान, स्टार्टअप्स आनी सेवां मदलें लेखाशास्त्र अशा मळांनी खूब तांक आसा. देखून दोनूय देशांनी प्रचंड म्हणटात तसो रोजगार तयार जातलो. सेवा मळाचेर वेपाराक व्हड वाव आसा. ऑस्ट्रेलिया हे भारतीयां खातीर उच्च शिक्षणाचें पसंतीचें थळ आसतना, भारत -ऑस्ट्रेलिया अर्थिक सहकार्य आनी वेपार कराराक लागून भारताच्या म्हायती आनी तंत्रज्ञान मळाचो ऑस्ट्रेलियेंत विस्तार जावपाचो व्हड अडथळो पयस करपाचो मार्ग मेकळो जाला, अशे गोयल हांणी सांगलें.

मिलेर

**उद्देजकां वांगडा जेवण**

ऑस्ट्रेलिया इंडिया चेंबर ऑफ कॉमर्सचे (एआयसीसी) वतीने मेलबर्नांत आयोजित केल्ल्या उद्येजकां वांगडच्या स्नेहभोजना मजगतीं, भाशण दितना, गोयल हांणी सांगलें की, भारत- ऑस्ट्रेलिया अर्थिक सहकार्य आनी वेपार करार हो एक महत्त्वाचो पांवडो. ताका लागून भोव-क्षेत्रीय अर्थिक मूल्य सांखळेची व्हड उदरगत जातली. अर्थ वेवस्थांचेर बरो परिणाम जातलो. ताचे पयलीं मेलबर्नांत क्रिकेट खेळगडो शेन वॉर्न हांकां गोयल हांणी आर्गां ओंपलीं. शेन वॉर्न हाचे भारतांतूय लाखांनी फॅन आसात, आनी 'स्पिनाचो राजा' आशिल्ल्या वॉर्न हाच्या मरणाक लागून लाखांनी भारतीयांनी दुख्ख उक्तायलें, अशें गोयल हांणी सांगलें.



## फळां रसरसतात...

फळां पसून लाखांनी जोडपाक मेळटात, हें सगल्यांकूच खबर आसा. पूण, ते खातीर कश्ट घेवंक जाय. कांय फळां फुकटूय खावपाक मेळटात. सैमान दिल्ली ही मोलादीक भेट. आदल्या तेंपार रानांनी भोवन भुरगे, तरणाटे काण्णां, चुन्नां, जांबळां पुंजायताले. आतां सगलेच धादोशी जाल्यात. ह्या झाडांनीय आतां मनशांची वाट पळोवन पळोवन मान उडयल्या. भुरग्यांक हीं रानफळां आयज खावपाक मेळटात, मात बाजारांत विकतीं घेवन. गीम तापपाक लागलो काय ह्या फळांचे संपत्तीन रानांरानां रसरसतात. आमचे फोटो पत्रकार **नारायण पिसुर्लेकार** हांणी काडिल्ले हे कांय फोटो.



# मुंबय १८ कोटींचें बोगस 'आयटीसी'



दक्षीण मुंबय सीजीएसटी आयुक्तालयाच्या अँटी-इव्हेशन विभागान बनावट इनपूट टॅक्स क्रेडिड (आयटीसी) रॅकेट उक्ताडार हाडलां. मेसर्स स्टॅलोन ओव्हरसीजाच्या धनयाक तांणी अटक केल्या. ही फर्म 18 कोटींचे बनावट जीएसटी इनपुट टॅक्स क्रेडिट मेळोवन ते मंजूर करताली. 98 कोटी रुपयांच्यो बोगस पावत्यांचो हे खातीर वापर केला.

सेंट्रल गुड्स अँड सर्व्हिस टॅक्स (सीजीएसटी) मुंबय विभागाच्या सेंट्रल इंटेलिजेंस विभागान दिल्ले म्हायतीच्या आदारान, आयुक्तालयाच्या अँटी-इव्हेशन विभागान तपास सुरू केलो. कांय दिसांनी तांकां ह्या आस्थापनान बनावट आयटीसीचो लाव घेतिल्ल्याचें कळ्ळें. 14 परस चड अस्तित्वांतूच नाशिल्ल्या कंपनीं/संस्थांनी जारी केल्ल्या बोगस पावत्यांचेर हे बनावट 'आयटीसी' हेर कंपन्यांक दिल्ले. टॅक्स क्रेडिट म्हणल्यार थारावीक पयशे जे कर दिवपी भरपाच्या करांतल्यान उणे करपाक शकतात. टॅक्स क्रेडिटाक लागून कराची मूळ रक्कम उणी जाता.

सीजीएसटी कायद्याच्या कलम 69 खाला ६ एप्रीलाक आरोपीक अटक जाली. ताका 14 दिसांची न्यायालयीन बंदखणीची ख्यास्त दिल्या. हें प्रकरण सीजीएसटी, मुंबय विभागान कर चुकोवप्यांच्या आड सुरू केल्ले भ्रश्टाचार विरोधी मोहिमेचो एक भाग आसा. सीजीएसटी मुंबय दक्षीण आयुक्तालयान सुमार 642 कोटी रुपयांची करचोरी सोदल्या. सुमार 10 कोटी 89 लाख रुपया वाशिल केल्यात. तर सात म्हयन्यांत 8 जाणांक अटक केल्या. हाचे मुखार विभागा कडल्यान ही चोरी विरोधी मोहीम चड खर करतले.

# दिवचल मतदारसंघातल्या पावसा पयलींच्या कामांचो आमदार डॉ. शेट्येन घेतलो नियाळ



मान्यून पयलीचे बसकेंत उलयतना आमदार डॉ चंद्रकांत शेट्ये, वांगडा उपजिल्होधिकारी दीपक वायंगणकार, मामलेदार कुट्टीकार आनी नगराध्यक्ष कुंदन फळारी आनी हेर (विशांत वझे)

■ भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**दिवचल:** दिवचल मतदारसंघांत पावसा पयलींचीं काम आसात ती करपाची सुचोवणी आमदार डॉ चंद्रकांत शेट्ये हांणी संबंदीत सरकारी यंत्रणेक केल्या. उटंगाराचो पावस पडल्यार दिवचल मतदारसंघातल्या व्हावपी न्हंयेक हुंवार येता. ते खातीर हुवांर प्रतिबंदक उपाय येवजण करपाकडेन चड लक्ष दिवपाक तांणी सांगलां. डॉ शेट्ये हांणी घेतिल्ले बसकेंत पावसा पयलीं करपाच्या कामांचो नियाळ घेतलो.

बसकेक दिवचल तालुक्याचे उपजिल्होधिकारी दीपक वायंगणकार, मामलेदार कुट्टीकार, गट विकास अधिकारी श्रीकांत पेडणेकार, दिवचल पालिका मंडळाचो नगराध्यक्ष कुंदन फळारी, मुख्याधिकारी ग्लेन मदेरा आनी हेर खात्यांचे अधिकारी हाजीर आशिल्ले.

बसकेक हाजीर रावल्ल्या दिवचल मतदारसंघातल्या पाचूय ग्रामपंचायीचे सरपंच,पंच तशेंच दिवचल नगरपालिकेच्या नगरसेवकांनी वेगवेगळ्यो सुचोवण्यो मांडल्यो, पावसाच्या दिसांनी जायत्या वाठारांत परिस्थिती बिकट जाता. मोडून पडपी झाडां काडप, बंद पडिल्ली वीज पुवरण सुरू करप, हूंवार परिस्थीचेर नदर दवोरपा खातीर जाय तितलें मनीसबळ तयार दवोरपाची वेवस्था करपाक तांणी सांगलें. पावसाच्या दिसांनी शेतांत उदक रिगचें न्हय, लोकांक जाय ती मजत करप हाचें नियोजन करपाक आमदार शेट्ये हांणी सांगलें.

मतदारसंघांतल्या सगळ्या पंचायत वाठारांत आपत्कालीन कामा खातीर कामगार आनी जायती सामुग्री तयार दवरपाक सरपंच आनी नगराध्यक्ष कुंदन फळारी हांणी सांगले. साळ हांगा न्हंयक येवपी हुंवाराचेर चर्चा जाली. साळ गांवातले लोक आनी सरकारी अधिकारी हांची जोड बसका घेवन राखणे वणट बांदपाचेर चर्चा करपाचें थारलें. खण वाठारांत पावसाच्या दिसांनी हुस्को करपा सारकें कांय जावचें न्हय हे खातीर कसली जतनाय घेवची हे खासा बसका घेवन चर्चा करपाचें थारलें. नियाळ बसकेंत डॉ शेट्ये हांणी सरकारी अधिकाऱ्यांकडेन भासाभास केली आनी तांका सुचोवण्यो केल्यो.

## नेहा नातू आयज नर्मदा परिक्रमाचे अणभव सांगतली

■ भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**दिवचल:** आयडियल हायस्कूल, पिळगांव, दिवचल हांगा नेहा श्रीनिवास नातू हांचे नर्मदा परिक्रमा विशींचे अणभव सांगपाची कार्यावळ आयोजीत केल्या.

नेहा श्रीनिवास नातू हांणी सामकी कठीण आनी साहशी अशी नर्मदा परिक्रमा पुराय केल्या. ह्या प्रवासांतले तांचे अणभव जाणून घेवपा खातीर आयज, ता. 8 एप्रिलाक सकाळीं 10 वरांचेर आयडियलच्या डॉ. राममनोहर लोहिया सभाघरांत हे कार्यावळीचें आयोजन केलां. हे कार्यावळीक सगळ्यांनी हाजीर रावपाचें आवाहन आयोजकांनी केलां.

## ग्रामीण वाचपघराची आयज बसका

■ भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**सावयवेरें:** सावयवेरेंच्या ग्रामीण वाचपघराची म्हत्वाची बसका शुकारा 8 एप्रीलाक आपयल्या. सांजेच्या 7 वरांचेर वाचपघराचे इमारतींत ती जातली.

23 एप्रीलाक संवसारीक पुस्तक दीस. ते निमतान सावयवेरें आनी वळवय वाठारांतल्या साहित्यिकांक मेळिल्ल्या पुरस्कारा खातीर सावयवेरेंचे विनायक खेडेकार, संजीव वेरेंकार आनी उदय म्हांबरे हांचो भोवमान करपाचो वाचपघराचो विचार आसा. हे बसकेंत हे संबंदान चर्चा करून निर्णय घेवपाक आनी ते संबंदीची कार्यावळ निश्चीत करचे खातीर सगळ्यांनी हाजीर रावचें, असो उलो डॉ. दत्ताराम देसायान मारला.

## शिवोले आयज लायट आसची ना

■ भांगरभूंय | डीआयपी

**पणजी:** 8 एप्रीलाक 11 केव्ही शिवोली फिडरा वयल्यान सकाळीं 9 ते दनपारां 2 वरां मेरेन मार्ना, शिवोली चर्च, क्रूजवाडो, इग्रेजवाडो, वाडी आनी सरभोंवतणच्या वाठारांत लायट आसची ना.

## स्टार्टअप आनी डिजिटल मार्केटींग विशयाचेर ज्ञानप्रसारक म्हाविद्यालयांत जाली कार्यशाळा



"स्टार्टअपांक अर्थीक मजत आनी डिजिटल मार्केटिंग" कार्यशाळेंत मार्गदर्शन करतना अमनपाल सिंह चावला.

■ भांगरभूंय | पत्रक

**पणजी:** आसगांव हांगच्या ज्ञानप्रसारक म्हाविद्यालयांत मुबंयच्या ए सी बी एम ग्लोबल मेन्टर अकादमी आनी मार्केट लिंक्ड एज्युकेशन टेक्नॉलॉजी हांच्या जोड पालवान हालींच एक दिसाची राज्य पांवड्या वयली कार्यशाळा जाली. "स्टार्टअपांक अर्थीक मजत आनी डिजिटल मार्केटिंग" असो कार्यशाळचो विशय आशिल्लो. राज्यांतल्या वेगवेगळ्या म्हाविद्यालयांतल्या सुमार शंबर विद्यार्थ्यांनी तातूंत वांटो घेतिल्लो. ए सी बी एमाचे मुख्य कार्यकारी अधिकारी आनी संस्थापक अमनपाल सिंह चावला आनी मार्केट लिंक्डाचे वेवस्थापक संचालक भारत मुनिम हांणी कार्यशाळेंत मार्गदर्शन केलें.

अमनपाल हांणी ब्रँड वेवस्थापन आनी उद्देगांत डिजिटल माध्यमाचें म्हत्व सांगले जाल्यार भारत मुनिम हांणी स्टार्टअपचे अर्थीक गजालींची म्हायती दिली. खंयच्या स्टार्टअपा खातीर कितलें भांडवल लागता. ते मेळपा खातीर लागपी साधन सुविधा, कुशळटाय हे विशीं तांणी मार्गदर्शन केलें.

ज्ञानप्रासरक म्हाविद्यालयाचे प्राचार्य प्रा दिलीप आरोलकार हांणी कार्यशाळेंचें उक्तावण केलें उपरांत आपल्या प्रास्ताविकांत तांणी डिजिटल मार्केटींग आनी नव्या स्टार्टअपांची गरज स्पश्ट केली. हजर आशिल्ल्या विद्यार्थ्यांक खाजगी नोकरी आनी आप रोजगाराच्या संद जोडपा विशीं प्रोत्साहीत केलें. कार्यशाळेंत वांटो घेतिल्ल्या विद्यार्थ्यांनी कार्यशाळे विशीं समाधान उक्तायलें. कार्यशाळेचें संयोजन वाणिज्य विभागाच्या डॉ अच्चुत पेडणेकार हांणी केलें. उपप्राचार्य रश्मी रेडकार हिणे निमाणे उपकार मानले.

## जातीवाचक उतरां वापरिल्ल्यान शुभम प्रभू मोनी आड गुन्यांव

■ भांगरभूंय | प्रतिनिधी

**म्हापशें:** एके बायलेक जातीवाचक उतरां वापरिल्ल्या प्रकरणांत म्हापशें पुलिसांनी शुभम व्यंकटेश मोनी (पर्वरी) हाचे आड गुन्यांव नोंद केला.

ही घडणूक 23 मार्चाक सांजेच्या 7.30 वरांचेर आंगड म्हापशेंच्या प्रभू चेंबर्सांत घडिल्ली. फिर्यादी बायलेन ह्या प्रकरणांत कागाळ केल्ली.

फिर्यादी आनी दुबाविता मदीं खूप तेंपाचो वाद आसा. ह्या वादांतल्यान दुबावितान हेर बायलां मुखार फिर्यादी बायलेचो जातीवाचक उतरां वापरून अपमान केलो. म्हापशें पुलिसांनी दुबाविता आड गुन्यांव नोंद केला. फुडलो तपास पुलीस उपअधिक्षक उदय परब करता.

# पिसुर्लेंतल्या धाटवाड्या वयल्या लोकांक 10 एप्रील मेरेन मेळटलें शुद्ध उदक

## सरकाराचे वतीन न्यायालयांत प्रतिज्ञापत्र

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**वाळपय :** सत्तरी म्हालांतल्या पिसुर्ले पंचायत क्षेत्रांतल्या धाटवाड्या वयल्या लोकांची पिवपाच्या उदकाची समस्या 10 एप्रील मेरेन सुटावी जातली. तांकां 10 एप्रील मेरेन शुद्ध उदक दितलें म्हणपाचें प्रतिज्ञापत्र सरकाराचे वतीन उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपीठांत सादर केलां.

पिसुर्ले पंचायत क्षेत्रांतल्या कितल्याश्याच गांवांत पिवपाच्या उदकाचो उणाव निर्माण जाला. ताका लागून नागरिकांक कितल्याश्याच समस्यांक तोंड दिवचें पडटा.

सरकाराचे वतीन हे विशीं घाळपणां चल्ल्यांत असो आरोप करून ह्या वाठारांतले समाजीक कार्यकर्ते हनुमंत परब हांणी उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपीठांत याचिका दाखल केल्ली. हे याचिकेच्या माध्यमांतल्यान ह्या वाठारांतल्या लोकांचे पिवपाच्या उदकाचे समस्येचेर उजवाड घाल्लो.

हे विशींची एक म्हत्वाची सुनावणी निकतीच घेतिल्ली. ह्या वेळार ह्या वाठारांतल्या पिवपाच्या उदका विशींचो अहवाल सादर करपाचो आदेश उच्च न्यायालयान दिल्लो. हे विशींचो अहवाल आयज भौशीक उदका पुरवण खात्याचे वतीन सादर केलो. उपरांत ताचेर सुनावणी जावन उच्च न्यायालयान धाटवाड्यार निर्माण जाल्ले पिवपाच्या उदका विशीं सरकार कितें करतलें? असो प्रस्न केलो. सरकाराचे वतीन हाजीर आशिल्ल्या आदवोगादान 10 एप्रील मेरेन ह्या घरांक उदका पुरवण करतले अशे तरेचें प्रतिज्ञापत्र सादर केलें.

उदकाचीं पायपां घालपाचें काम नेटान सुरू केलां. दोन दिसां भितर तें पूर्ण जातलें. उपरांत सगल्या घरांक शुद्ध उदका पुरवण करतले अशें न्यायालयांत सादर केल्ल्या प्रतिज्ञापत्रांत स्पश्ट केलां.

ह्या वेळार याचिकादार हनुमंत परब हांकां विचारलें तेन्ना तांणी समाधान उक्तायलें. पिवपाच्या उदका विशीं सादर केल्ले याचिकेचेर न्यायालयांत सुनावणी जाली. सरकाराचे वतीन 10 एप्रील मेरेन धाटवाडो वाठारांतल्या लोकांक शुद्ध उदका पुरवण करतले अशे तरेचें प्रतिज्ञापत्र सादर केलां अशें परब हांणी सांगलें.

आतां मेरेन ह्या वाठाराक टँकरा वरवीं उदका पुरवण करताले. तें शुद्ध नासलें. हे विशीं न्यायालयाची नदर ओडली तेन्ना तांणी लोकांक शुद्ध उदका पुरवण करपाचे आदेश दिल्यात. सरकारान हे विशीं सादर केल्ल्या प्रतिज्ञापत्रांत 10 एप्रील मेरेन शुद्ध उदका पुरवण करप बंदनकारक आसा अशेंय हनुमंत परब हांणी स्पश्ट केलें. याचिकादाराचे वतीन अमोल गोडे हांणी युक्तीवाद केलो.

# प्रकरणाची फुडली सुनावणी 15 जूनाक

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**भ्रश्टाचार प्रतिबंधक कायद्यांत दुरूस्ती**

**पणजी :** केंद्र सरकारान भ्रश्टाचार प्रतिबंधक कायद्यांत 2018 त दुरूस्ती केल्या. ह्या प्रकरणांत मुंबय उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपीठान भारताचे एटर्नी जनरलाक नोटीस धाडून बाजू मांडपाक सांगल्या. ह्या प्रकरणाची फुडली सुनावणी 15 जूनाक दवरल्या.

ह्या प्रकरणांत वीज अभियंते आनी आरटीआय कार्यकर्ते काशिनाथ शेटये हांणी खंडपीठांत याचिका दाखल केल्या. हातूंत तांणी राज्य सरकार आनी केंद्रीय कायदो सचिवाक प्रतिवादी केल्यात. हातूंत तांणी केंद्र सरकारान 26 जुलय 2018 दिसा अधिसुचोवणी काडून भ्रश्टाचार प्रतिबंधक कायद्यांत दुरूस्ती करून 17 ए कलम जोडलां. ह्या 17 ए कलमा प्रमाण खंयच्याय सरकारी अधिकाऱ्या आड भ्रश्टाचार प्रतिबंधक कायद्या अंतर्गत कागाळ दाखल करपा खातीर आनी ते संबंदान चवकशी करपा खातीर खात्याच्या मुखेल्या कडेन परवानगी गरजेची अशें नमूद केलां.

मजगतीं, शेटये हांणी दक्षता खात्याच्या भ्रश्टाचार विरोधी पथका कडेन एके सरकारी संस्थे विशीं भ्रश्टाचार संबंदीत दाखल केल्ले कागाळेचेर अजून गुन्यांव दाखल करूंक ना. हे विशीं तांणी पणजेच्या उत्तर गोंय जिल्हो आनी सत्र न्यायालयांत फौजदारी अर्ज दाखल करून गुन्यांव दाखल करनाशिल्लो मुद्दो उपस्थीत केल्लो. तशेंच हे कागाळे प्रमाण केंद्रीय गुन्यांव अन्वेशण (सीबीआय) वा भ्रश्टाचार विरोधी पथत (एसीबी) हांकां आदेश जारी करून गुन्यांव दाखल करपाची मागणी केल्ली.

हो अर्ज वयले दुरूस्तीक लागून न्यायालयाक हस्तक्षेप करूंक मेळना अशें निरिक्षण नोंदोवन भायर मारिल्लो. ताका लागून वयले दुरूस्तीक शेटये हांणी खंडपीठांत आव्हान दिलां. ह्या प्रकरणांत खंडपीठान प्रतिवादींक नोटिशी धाडल्यात आनी हो विशय केंद्र सरकारा कडेन संबंदीत आशिल्ल्यान एटर्नी जनरलाक अतिरीक्त नोटीस धाडल्या. ह्या प्रकरणाची फुडली सुनावणी 15 जूनाक दवरल्या.

# घन कोयर वेवस्थापन महामंडळाच्या पंगडान केली सोनसड्याची पळोवणी

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**मडगांव:** घन कोयर वेवस्थापन महामंडळाच्या पंगडान सोनसडो कोयरा यार्डांत ओल्या कोयराची पळोवणी केली. सुमार 10,000 मॅट्रीक टन कोयर मेजलो. हो कोयर कांय दिसां भितर काडटले.

मडगांव पालिकेन केल्ले विनवणे वयल्यान घन कोयर वेवस्थापन महामंडळाच्या पंगडान सोनसडो कोयरा यार्डाक भेट दिली. मडगांव पालिका मंडळाचे बसकेंत सोनसड्या वयलो ओलो कोयर घन कोयर वेवस्थापन महामंडळान काडून उडोवपा खातीर विनवणी करपाचो थाराव घेतिल्लो.

नगराध्यक्ष लिंडन परेरा हांणी साळगांवच्या घन कोयर वेवस्थापन महामंडळाच्या वेवस्थापकीय संचालकांची भेट घेतली आनी सोनसड्या वयलो ओलो कोयर काडपा संबंदान भासाभास केली. उपरांत नगराध्यक्ष परेरा, उपनगराध्यक्षा दीपाली सावळ आनी अभियंत्यांनी सोनसड्यार वचून पळोवणी केली आनी सुमार 10,000 मॅट्रीक टन ओलो कोयर काडपा खातीर मजत करपाची तयारी दाखयल्या.

# वीज घोटाळो: मॉवीन गुदिन्हो आड न्यायालयांत सुनावणी सुरू

## पांच साक्षिदारांक हाजीर रावपाक समन्स

**भांगरभूंय | विशेश प्रतिनिधी**





**मडगांव:** आदले वीज मंत्री मॉवीन गुदिन्हो हांचे आड कथीत वीज दर सवलत घोटाळो प्रकरणांत सत्र न्यायालयांत सुनावणी सुरू आसा. ह्या प्रकरणांत बिरेस्तारा जाल्ले सुनावणे वेळार पांच साक्षिदारांक हाजीर रावपा खातीर समन्स जारी केल्यात.

आदले वीज मंत्री मॉवीन गुदिन्हो हांचे आड कथीत वीज दर सवलत घोटाळो प्रकरणांतली सुनावणी मडगांवच्या अतिरिक्त सत्र न्यायाधिशा मुखार सुरू जाल्या. अतिरिक्त सत्र न्यायाधीश व्हिन्सेंट डिसिल्वा हांच्या न्यायालयांत बिरेस्तारा सुनावणी सुरू जाली आनी युक्तीवादाचें सत्र सुरू केलें.

सरकारा वतीन सरकारी वकील पी. कोरगांवकार बाजू मांडटात. सर्गेस्त मनोहर पर्रीकार हांणी 11 मे 1998 दिसा केल्ले कागाळी वयल्यान हें प्रकरण मुखार आयिल्लें. उपरांत आतां 24 वर्सांनी ही न्यायालयीन सुनावणी सुरू जाल्या. उच्च दाबाची वीज वापरपी कंपनींक वीज बिलांत 25 टक्के सवलत दिवपाची फाटीं घेतिल्ली अधिसुचोवणी परतून नव्यान जारी करपाक मंत्रीमंडळाची मान्यताय घेतिल्ली ना आनी बेकायदो रितीन कोट्यांनी रुपयांची सवलत व्हडल्या कंपनींक दिल्ल्याचो आरोप मॉवीन हांचेर दवरिल्लो.

1988 वर्सा गुन्यांव अन्वेषण विभागान ह्या प्रकरणांत गुन्यांव नोंद केल्लो. मॉविना सयत टी. नागराजन, कृष्ण कुमार, के. राधाकृष्ण, मेसर्स मार्मागोवा स्टील लि. आनी मेसर्स ग्लास फायबर डिव्हिजन बिनानी झिंक हांकां ह्या प्रकरणांत आरोपी केल्यात.

सुरवेच्या सुनावणीक मॉवीन गुदिन्हो हाजीर रावूंक नाशिल्ले खातीर न्यायालयान विचारलें. टी. नागराजन ह्या दुबाविता बगर एकूय दुबावीत न्यायालयांत हाजीर नाशिल्लो. न्यायालया कडल्यान मॉवीन हांचे सयत आर. के. राधाकृष्णन हे कित्याक हाजीर रावले नात अशी विचारपूस सुनावणे वेळार न्यायालयान केली.

फुडले सुनावणे वेळार गुदिन्हो हाजीर रावले उपरांत न्यायालयान तांकां गैरहाजीर रावपाची परवानगी दिली. फुडली सुनावणी 12 एप्रीलाक दवरल्या. हे सुनावणे वेळार साक्ष नोंदोवपा खातीर पांच साक्षिदारांक समन्स जारी केल्यात.

# अटक केल्ल्या धनारामा कडेन मेळ्ळीं 2 पिश्तोलां, 18 काडतुशी

**भांगरभूय | प्रतिनिधी**

**मडगांव:** मनमाडच्यान 4.3 कील गांजो घेवन निजामुद्दीन एक्सप्रेसींतल्यान गोंयांत आयिल्ल्या धनाराम ह्या राजस्थानांतल्या दुबाविताक मडगांव रेल्वे पुलिसांनी घुंवळी वखदां विरोधी पुलिसांचे मजतीन अटक केली. बाजारांत ताचें मोल सुमार 4 लाख रुपया आसा. ताणें गोंयांत गांजो विकपा खातीर हाडिल्लो. पुलिसांक म्हायती मेळटूकच मडगांव रेल्वे स्टेशनाचेर ताका पुलिसांनी अटक केली.

ताची झडटी घेतली तेन्ना ताचे कडेन दोन पिश्तोलां आनी 18 काडतुशी मेळ्ळ्यो. सगलो म्हाल जप्त करून ताका घुंवळी वखदां विरोधी पुलिसांच्या ताब्यांत दिलो अशी माहिती कोंकण रेल्वे पुलिसांनी दिली.

**आर्म्स ॲक्टा खाला गुन्यांव नोंद**

मजगतीं, कोंकण रेल्वे पुलिसांनी बुधवारा अटक केल्या धनाराम ह्या राजस्थानांतल्या दुबाविता कडेन दोन पिश्तोलां आनी 18 काडतुशी जप्त केल्लीं देखून कोंकण रेल्वे पुलिसांनी आर्म्स ॲक्टा खाला ताचेर गुन्यांव नोंद केला.

कोंकण रेल्वे पुलिसांनी ताका काल घुंवळी वखदां विरोधी पुलिसांच्या ताब्यांत दिल्लो. सध्या तो तांच्या ताब्यांत आसा. पुलिसांनी ताचे कडल्यान 4.3 कील गांजो जप्त केल्लो. मनमाडच्यान गांजो घेवन निजामुद्दीन एक्सप्रेसींतल्यान तो गोंयांत आयिल्लो.

# 'धिरयो: चार सप्तकांत याचिकादारान पुलीस म्हासंचालका मुखार सादरीकरण मांडचें'

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**पणजी:** गोंयांत सुरू आशिल्ल्यो बेकायदो धिरयो आडावपा खातीर तशेंच खंडपिठान वेळावेळार दिल्ल्या आदेशाक पाळो दिवपा खातीर चार सप्तका भितर याचिकादारान पुलीस म्हासंचालका मुखार सादरीकरण मांडचें, तशेंच म्हासंचालकान उपरांत कृती आराखडो तयार करून कारवाय करपाचो आदेश मुंबय उच्च न्यायालयाच्या गोंय खंडपिठान जारी केला. मजगतीं, हे विशींची दाखल केल्ली अवमान याचिका खंडपिठान निकालांत काडल्या.

ह्या प्रकरणांत पिपल फॉर ॲनीमल ह्या बिगर सरकारी संस्थेन खंडपिठांत 1996 वर्सा मूळ याचिका दाखल करून धिरयांचो मुद्दो खंडपिठांत मांडिल्लो. उपरांत खंडपिठान धिरयो बंद करपाचो निवाडो 20 डिसेंबर 1996 दिसा दिलो. हाका संबंदितांनी सर्वोच्च न्यायालयांत आव्हान दिल्लें. तें भायरायिल्लें. अशें आसतना गोंयांत धिरयो आयोजीत करीत आशिल्ल्यान याचिकादारान 2006 आनी 2015 वर्सा अवमान याचिका दाखल चवकशी करून करवाय करपाची मागणी केली आनी खंडपिठा कडेन मुद्दो उपस्थीत केलो.

ह्या प्रकरणांत खंडपिठान वेळावेळार आदेश दिवन निमाणे बिरेस्तारा याचिकादाराक आनी पुलीस म्हासं-चालकाक वयले आदेश जारी करून अवमान याचिका निकालांत काडली.

# आडवेळ्या पावसान काजू पिकांचें लुकसाण

## सरकारा कडल्यान शेतकारांक अर्थीक मजत मेळपाची शक्यताय ना

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**



**पणजी :** आडवेळ्या पावसाक लागून काजीच्या पिकांचें व्हड लुकसाण जालां. दर्यादेग वाठारा परस दोंगराळ वाठारांत लुकसाण चड जालां. अंदूं काजीचें पिक उणें जातलें. कांय वाठारात ते 60 टक्के जाल्यार कांय वाठारांत 60 टक्क्यां परस उणे जावप शक्य आसा, अशें शेती खात्याचे संचालक नेवील आफोंसो हांणी सांगलें.

सत्तरी, पेडणें, काणकोणा आडवेळो पावस चड पडला. हाका लागून ह्या वाठारांत काजीच्या पिकांचें लुकसाण चड जालां, अशें तांणी सांगलें. काजीचे पिक अंदूं सुमार 80 टक्के उणें जातलें, अशी म्हायती शेतकारांनी दिल्या. पिक उणें आयिल्ल्यान सरकारा कडल्यान अर्थीक मजत मेळपाची आस्त आशिल्ली. पूण सरकाराच्या खंयचेच येवजणेंत तशी तजवीज ना, अशें शेती खात्याचे संचालक नेवील आफोंसो हांणी सांगलें. सैमीक आपत्तीक लागून लुकसाण जाल्यार शेतकारांक लुकसाण भरपाय मेळटा. शेतकरी आदार निधी तशेंच शेतकार विमो येवजणे खाला अर्थीक मजत दिवप शक्य आसता. हवामान बदल वा हेर कारणाक लागून पिक उणें जालें, जाल्यार लुकसाण भरपाय वा मजत दिवपाची तजवीज ना. काजीचो दर प्रति किलो 125 रुपया सकयल आयलो जाल्यार आधारभूत मोल सरकार दिता. सध्या काजीचो दर 130 रुपया परस चड आसा. हाका लागून आधारभूत मोल दिवपाची गरज ना. सध्याचे स्थितींत आडवेळ्या पावसाचो काजू उत्पादनाचेर परिणाम जालो तरी शेतकारांक सरकारा कडल्यान कसलीच अर्थीक मजत मेळची ना. ते खातीर शेतकारांची सामकी निरशेवणी जातली.

महाराष्ट्रांत विमो येवजणेक लागून शेतकारांक अर्थीक मजत मेळटा. अशीच मजत गोंयांतल्या शेतकारांक मेळपाक जाय, अशी मागणी वाळपयचे शेतकार नेस्टर रेंजल हांणी केल्या.

# फुटपाथ विक्रेत्यांचें स्थलांतर

## मार्केट विक्रेत्यांची फोंडें पालिकेन घेतली दखल



विक्रेत्यांचें स्थलांतर करून रितें केल्लें फुटपाथ.

**भांगरभूंय | प्रतिनिधी**

**फोंडें:** मार्केटांतल्या विक्रेत्यांचे मागणेची दखल घेवन फोंडें पालिकेन फुटपाथा वयल्या विक्रेत्यांचें स्थलांतर केलां. मागणेची दखल घेतिल्ले खातीर वेपारी संघटणेन पालिकेचे उपकार आठयले. तशेंच मार्केटांतले प्रवेशदार रोखडेंच उक्तें करून दिवपाची मागणी पुराय जावपाची अपेक्षाय विक्रेत्यांनी बाळगिल्या.

कांय दिसां पयलीं मार्केटां-तल्या विक्रेत्यांनी नगराध्यक्ष तशेंच मुख्याधिकारी हांची भेट घेवन फुटपाथ रितें करपा बरोबर मार्केटांतलें प्रवेशदार उक्तें करपाची मागणी केल्ली. ते प्रमाण पालिका मंडळान बिरेस्तारा सकाळीं फुटपाथा वयल्या विक्रेत्यांचें स्थलांतर करून मार्केटांतल्या विक्रेत्यांची एक मागणी पुराय केल्या.

फुटपाथा वयल्या सगल्या विक्रेत्यांक मार्केट प्रकल्पाचे मेकळे सुवातेर स्थलांतर करून पार्कींग वेवस्था सुदारपा खातीर सहकार्य केलां. मुख्याधिकारी योगीराज गोसावी आनी नगराध्यक्ष गीताली तळावलीकार हांणी स्थलांतर केल्ल्या वाठारांत भेट दिवन नियाळ घेतलो.

वेपारी संघटणेचे सचीव घारू सावंत हांणी पत्रक उजवाडावन फुटपाथ रितें केल्ले खातीर पालिकेचे उपकार मानले. संघटणेन केल्ले मागणेची दखल घेवन फुटपाथ रितें केल्ल्यान पार्कींग वेवस्था सुदारपा खातीर मजत जाली. ताका लागून गिरायकांक वाहनां वेवस्थीत पार्क करून मार्केटांत प्रवेश करपाची आडमेळीं पयस जाल्या. मार्केटांतलें प्रवेशदार लेगीत दिल्ले मुजती पयलीं उक्तें करून दिवपाची मागणी उजवाडायिल्ल्या पत्रकांतल्यान केल्या.

# श्री अनंत देवस्थानांत आयतारा रामनम

**सावयवेरें :** सावयवेरेंच्या श्री अनंत देवस्थानांत येता त्या आयतारा, ता. 10 एप्रीलाक रामनम उत्सव मनयतले. ते निमतान विंगडविंगड धर्मीक तशेंच सांस्कृतीक कार्यावळी आयोजीत केल्यात. सकाळीं श्रीक अभिशेक, नैवेद्या आनी 11 वरांचेर किर्तन जातलें. दनपरां 12 वरांचेर रामजल्म सुवाळो जातलो. दनपरां 1 वरांचेर महाप्रसाद जातलो. रातीं 8 वरांचेर आरत्यो आनी तीर्थप्रसादान उत्सवाची सांगता जातली.

## थळावें खेळां मळ

### टॅनीस बॉल क्रिकेट शिबीर 20 एप्रील पसून

**पणजी:** गोवो टॅनीस बॉल क्रिकेट असोसिएशना वतीन गोंय खेळां प्राधिकरणाच्या सहकार्यान चले आनी चलयांचें गिमाळें प्रशिक्षण शिबीर आयोजीत केलां. शिबीर 16 वर्सां पिराये सकयल्या खेळगड्यां खातीर 20 ते 30 एप्रील ह्या कालावधीत राज्यांतल्या विवीध केंद्रांचेर जातलें. शिबिरांत वांटेकार जावपी दरेक खेळगड्या खातीर 100 रुपया प्रवेश शुल्क दवरला. वांटेकार जावपी खेळगड्यांक शिबिराच्या निमाण्या दिसा प्रशस्तीपत्रक दितले. आपआपल्या वाठारांत शिबीर घेवपाक इत्सूक आशिल्ल्यांनी 10 एप्रील मेरेन रामदास वरक (9158057281) वा संदीप नाविक (9130515089) हांचे कडेन संपर्क सादचो.

### सार्थक जेट्स क्लबाक वस्तादपण

**पणजी:** श्री सांतेरीमाया खेळां संघा वतीन आयोजीत केल्ले पाली प्रिमीयर लीग सर्तीत सार्थक जेट्सान वस्तादपण जोडलें. सावंत ब्रदर्स पंगडाक उपवस्तादपणाचेर समाधान मानचें पडलें. मिथुन आयकर (उत्कृश्ठ बॅट्समन), वासू सावंत (उदेंतो खेळगडो), संजय सावंत (उत्कृश्ठ खेळगडो) हांकां वैयक्तीक इनामां फावो जालीं. इनामां भेटवण सुवाळ्याक केरीची जिल्हो पंचायत वांगडी देवयानी गांवस, ठाणेचे सरपंच नीलेश परवार, पंच वांगडी उमेश सावंत, उर्मिला गांवकार, फटगो गांवकार, रोहिदास गांवकार, चंद्रू सावंत, प्रेमनाथ गांवस हे उपस्थीत आशिल्ले. कार्यावळीचें सुत्रसंचालन आकाश गांवकार आनी प्रवीण गांवकार हांणी केलें.

# लखनौ सुपर जायण्ट्साक जैत

## आयपीएल: दिल्ली कॅपिटल्साक 6 विकेटींनी हारयलो

■ खबरां संस्था

**मुंबय:** इंडीयन प्रिमीयर लिगेंत (आयपीएल) काल लखनौ सुपर जायण्ट्सान दिल्ली कॅपिटल्साक 6 विकेटींनी हारयलो. लखनौन 150 धांवड्यांची मोख 19.4 ओव्हरींनी चार विकेटी वगडावन मेळयली. क्विंटन डी कॉकान सगल्यांत चड 80 धांवड्यो केल्यो. जाल्यार दिल्ली वतीन कुलदीप यादवान दोन विकेटी घेतल्यो.

आपली 250वी मॅच खेळपी क्विंटन डी कॉकान उत्कृश्ठ बॅटींग करतना 52 बॉलांनी 80 धांवड्यो केल्यो. आयपीएलांतलो ताचो हो 18वो अर्द शेंकडो थारलो.

ताणें आनी मुखेली लोकेश राहुल हाणें बरी सुरवात करून दिली. दोगांयनी पयले विकेटी खातीर 73 धांवड्यांची भागिदारी केली. ही जोडी कुलदीप यादवान फोडली. ताणें राहुलाक बाद केलो. राहुलान 25 बॉलांनी 24 धांवड्यो केल्यो. दुसरे वटेन डी कॉकान आपली आक्रमक खेळी चालूच दवरली. डावाचे पांचवे ओव्हरींत क्विंटनान एन्रीक नोर्त्याक सेगीत तीन चवके मारले.

ते आदीं युवा बॅटसमन पृथ्वी शॉ (61) हाच्या आक्रमक अर्द शेंकड्याच्या नेटार बरी सुरवात करपी दिल्ली कॅपिटल्साक निर्धारीत 20 ओव्हरींनी फक्त 3 विकेटी वगडावन 149 धांवड्यो करप शक्य जाल्यो.




टॉस हारल्या उपरांत पयलीं बॅटींग करपी दिल्ली कॅपिटल्सान घटमूट सुरवात केली. आयपीएलाच्या अंदूंच्या हंगामांत पयली मॅच खेळपी डॅव्हीड वॉर्नर आक्रमक दिसलो ना. पूण, पृथ्वी शॉन दुसरे वटेनच्यान ताबडतोड पद्धतीन बॅटींग केली.

पृथ्वीच्या आक्रमक बॅटिंगेक लागून दिल्ली कॅपिटल्सान पयल्या पावरप्लेंत बिनबाद 52 धांवड्यो केल्यो. पृथ्वीन 30 बॉलांनी अर्द शेंकडो पुर्ण केलो. ते उपरांत पंगडाक व्हड स्कोर उबारून दिवपाक चड आक्रमक रुप आपणायलें. ताका लागून ताणें 67च्या स्कोराचेर आपली विकेट वगडायली.

पृथ्वीच्या रुपान पयली विकेट वगडायल्या उपरांत दिल्लीचो डाव संकश्टांत सांपडलो. धांवड्यो करपाक झुजपी वॉर्नर लेगीत पंगडाच्या 69च्या स्कोराचेर आपली विकेट वगडायली. ते उपरांत रोवमॅन पॉवेल लेगीत बाद जालो. तो बाद जालो त्या वेळार दिल्लीचो स्कोर 74 आशिल्लो.

ते उपरांत मुखेली ऋषभ पंत आनी सरफराज खान हाणें डाव सांबाळपाचो यत्न केलो. दोगांयनी चवथे विकेटी खातीर 75 धांवड्यांची म्हत्वाची भागिदारी केली. ताका लागून दिल्ली 149 धांवड्यां मेरेन मजल मारप शक्य जालें.

पंतान तीन चवके आनी दोन सक्यांचे मजतीन 36 बॉलांनी 39 धांवड्यो केल्यो, जाल्यार सरफराजान तीन चवक्यांचे मजतीन 28 बॉलांनी नाबाद 36 धांवड्यो केल्यो.

लखनौ सुपर जायण्ट्सा वतीन रवी बिश्नोईन चार ओव्हरींनी 22 धांवड्यो दिवन 2 विकेटी घेतल्यो. जाल्यार कृष्णाप्पा गौतमान चार ओव्हरींनी 23 धांवड्यो दिवन एक विकेट घेतली.

# गोंय जैताच्या लागसार

## अण्डर 25 सी के नायडू क्रिकेट सर्त

■ भांगरभूंय। खेळां बातमीदार

**फातोर्डें:** गोंय आनी हिमाचल प्रदेश ह्या पंगडां मदीं बंगळुरूच्या अलूर क्रिकेट मैदानाचेर चालू आशिल्ली चार दिसांची 25 वर्सां पिराये सकयली कर्नल सी के नायडू क्रिकेट सर्तींतली मॅच उमळशीक वाडोवपी स्थितींत पावल्या.

गोंयाक आयज चवथ्या दिसा जैता खातीर फक्त 17 धांवड्यांची गरज आसा आनी ताच्या हातांत चार विकेटी बाकी आसात.

स्पिनरांक मजत करपी खेळपट्टीचेर गोंयाक जैता खातीर 117 धांवड्यांची मोख मेळिल्ली. गोंयान उत्कृश्ठ रितीन आपल्या दुसऱ्या डावाक सुरवात केली. एका टप्प्याचेर गोंयान 2 विकेटी वगडावन 83 धांवड्यो केल्ल्यो. पूण, तिसऱ्या दिसाचो खेळ सोंप मेरेन ताची स्थिती 6 बाद 99 अशी बिकट जाली.

ते पयलीं 130 धांवड्यांनी फाटीं आशिल्ल्या हिमाचल प्रदेशान काल आपल्या दुसऱ्या डावाक बिनबाद 4 धांवड्यां वयल्यान सुरवात केली आनी 245 धांवड्यां मेरेन मजल मारली. ए वालियान सगल्यांत चड 69 धांवड्यो केल्यो. ताणें 112 बॉलांक तोंड दितना स चवके मारले. ताचे खेरीत पी जे सिंग आनी कुशल पाल हांणी वेळेरेन 44 आनी 38 धांवड्यो करून पंगडाक बरो स्कोर उबारून दिवपाक मजत केली.

गोंया वतीन विश्वंबर कहलोनान पांच विकेटी घेतल्यो. शुभम तारी आनी ऋत्विक नायक हाणें दरेकी 2 विकेटी घेतल्यो.

मोखीचो फाटलाव करपी गोंयान आपल्या दुसऱ्या डावांक उत्कृश्ठ सुरवात केली. सोहम पनवलकार आनी मंथन खुटकार हाणें पयले विकेटी खातीर 37 धांवड्यांची भागिदारी केली. ते उपरांत कश्यप बखले आनी सोहम हाणें दुसरे विकेटी खातीर 46 धांवड्यांची भागिदारी केली.

गोंया खातीर सगलें वेवस्थीत चलतालें. पूण, सोहम पानवलकार (40) बाद जाल्या उपरांत फक्त 10 धांवड्यां भितर गोंयचे चार विकेटी पडल्यो.

हिमाचल प्रदेशा वतीन स्पिनर राघव बालीन गोंयचे बॅटिंगेक सुरंग लायलो. ताणें 20 धांवड्यो दिवन 4 विकेटी घेतल्यो. ताचे खेरीत रितीक कुमारान 2 विकेटी घेतल्यो.

थोडे भितर धांवतकटो: हिमाचल प्रदेश (पयलो डाव) 193, गोंय (पयलो डाव) 323, हिमाचल प्रदेश (दुसरो डाव) 66.4 ओव्हरींनी 245 धांवड्यो (कौशल पाल 38, पी जे सिंग 44, एस जी अरोरा 20, ए वालिया 69, राहुल चौहान 26 धांवड्यो, विश्वंबर कहलोन 5-52, शुभम तारी 2-59, ऋत्विक नायक 2-35), गोंय (दुसरो डाव) 32 ओव्हरींनी 6 बाद 99 धांवड्यो (सोहम पानवलकार 40, मंथन खुटकार 17, कश्यप बखले 26 धांवड्यो, राघव बाली 4-20, रितीक कुमार 2-50).

# अमेरिकेचे पुतिनाच्यो चलयो, रशियन बँकाचेर निर्बंध

■ खबरां संस्था

**ब्रुसेल्स:** युक्रेनांतल्या झूज गुन्यांवाचो बदलो म्हणून अमेरिकेन रशियन बँकांचेर दंड तशेंच रशियाचे अध्यक्ष व्लादिमीर पुतीन हांच्या दोनूय चलयांक लक्ष्य करपी निर्बंधांची घोशणा केल्या. तशेंच ब्रिटनान लेगीत रशियाचेर आनीक निर्बंध घातिल्ल्याचें जाहीर केलां. हातूंत रशियांतली सगल्यांत व्हडली बँक स्बेरबँके



वांगडचे सगल्या वेव्हारांक स्थिगिती, तशेंच ब्रिटनांची रशियांतली सगली गुंतवणूक सोपोवपाचो आसपाव आसा.

अमेरिकेन ह्या निर्णया वरवीं स्बेरबँक आनी अल्फा बँक हांका अमेरिकेच्या अर्थीक वेवस्थेंतल्यान काडून उडोवपाचो तशेंच अमेरिकन नागरिकांक हे संस्थे वांगडा वेवसाय करपा पसून प्रतिबंधीत केलां. त्या भायर पुतीन हांच्यो चलयो मारिया पुतीन आनी कॅटरिना तिखोनोवा, पंतप्रधान मिखाइल मशुस्टीन, रशियन परराष्ट्र मंत्री सर्गेई लावरोव्ह हांची घरकान्न आनी भुरगीं तशेंच रशियाचे सुरक्षे परिशदेचे वांगडी आनी आदले राष्ट्राध्यक्ष दिमित्री मदवेदेव हांका अमेरिकेच्या निर्बंधांत आसपावून घेतलां. अमेरिकेन पुतीन कुटुंबातल्या सगल्या लागींच्या वांगड्यांक अमेरिकन अर्थीक वेवस्थेंतल्यान काडून उडयलां आनी तांची अमेरिकेंतली सगली मालमत्ता गोठयल्या.

ब्रिटनान युक्रेनांतल्या बुचा शारांतल्या लोकांचेर रशियन सैन्यान केल्ल्या हल्ल्यांचे फाटभूंयेर बुधवार रशियाचेर आनीक निर्बंध घातिल्ल्याचें जाहीर केलां. तांतूंत रशियान बँक स्बेरबँकेकडले सगले वेव्हारांचेर पुराय स्थगिती तशेंच ब्रिटनाची रशियेंतली गुंतवणूक बंद करपाचो आसपाव आसा.

# दिल्ली- मॉस्को विमान सेवा रद्द करपाचो ऍर इंडियाचो निर्णय

■ खबरां संस्था

**नवी दिल्ली:** रशिया-युक्रेन झुजाचो परिणाम भारताचेर जावपाक लागला, ताका लागून ऍर इंडियान दिल्ली तें मॉस्को विमान सेवा रद्द केल्या. ऍर इंडियाचीं विमानां सप्तकांत दोन फावट दिल्लीच्यान मॉस्को वतालीं. मेळिल्ले म्हायती प्रमाण विमो संरक्षण मेळूंक नाशिल्ल्यान तांकां हो निर्णय घेवचो पडलो. ज्या प्रवाशांनी तिकिटी बूक केल्ल्यो तांकां तांचे पयशे परत



दितले अशें सांगलां. रशिया आनी युक्रेनांतल्या झुजाक लागून रशियात वचपी विमानांक चड धोको आास. ताका लागून विमानांक विमो संरक्षण मेळना.

भारतीय विमान कंपनी ऍर इंडियान दिल्ली-मॉस्को- दिल्ली मार्गावयलीं विमान तिकिटां विकपाचीं बंद केल्यांत अशें रशियन दूतावासांत तांच्या नागरिकांक सांगलां. ही विमान सेवा परत सुरू जावपाची शक्यताय उणी आसा. ऍर इंडियाच्या कार्यालया प्रमाण प्रवाशांक रद्द केल्ल्या तिकिटां खातीर पुराय पयशे मेळपाचो हक्क आसा.

रशियन दुतावासान सांगलां कीं, ताश्कंद, हस्तंबूल, दुबय, अबू धावी, दोहा आनी हेर पश्चीम मार्गा वयल्यान दिल्ली तें मॉस्को मेरेन विमानान वचप अजून शक्य आसा.

# कोरोनाच्या नव्या 'एक्सई' विशाणूक लागून संवसारांत हुस्को

■ खबरां संस्था

**नवी दिल्ली:** कोरोनाच्या चवथ्या ल्हाराक लागून चीन, युरोपा सयत संवसारांतले जायते देश सध्या हुस्क्यांत आसात. तातूंत ओमिक्रॉनाचो 'एक्सई' हो नवो सापडला. महाराष्ट्रांत ह्या विणाणूली लागण जाल्ले दुयेंती मेळिल्ल्याची चर्चा आसा. मात केंद्रीय भलायकी मंत्रालयान ही खबर न्हयकारल्या. मात फुडाराक तो देशा खातीर भिरांतीचो थारपाक शकता

बीए.1 आनी बीए.2 हे दोन विशाणू एकठांय येवन एक्सई हो विशाणू तयार जाला अशें सांगतात. नव्या विशाणूचो संसर्ग जाल्लो



पयलो दुयेंती 19 जानेवारीक ब्रिटनांत मेळिल्लो. एक्सई ओमिक्रॉनच्या 10 पट नेटान पातळपाक शकता असो अदमास आसा. ताका लागून भारतांत हो विशाणू पावल्यार कोरोना दुयेंतीचो आंकडो व्हडा प्रमाणा वाडपाची भिरांत आसा.

कोरोनाच्या ह्या नव्या विशाणूची लागण जाल्ल्या दुयेंतींक जोर, गळो दुखप, खोकली, थंडी, पोटाचे विकार अशीं लक्षणां दिसपाक शकतात अशें तज्ज्ञांनी सांगलां. संवसारांत आतां मेरेन ह्या विशाणूचे आतांमेरेन 600 दुयेंती मेळ्ळ्यात. विशाणूच्या संसर्गाचे प्रमाम कमी आसलें तरी फुडाराक संसर्ग वाडपाचो धोको आसा.

मजगतीं भारतांक कोडीव दुयेंतीचो आंकडो सध्या 11 हजार 639 आसा. सक्रिय देयेंतीचें प्रमाण सध्या 0.03 टक्के आसा. दुयेंसांतल्या बरे जावपाचें प्रमाण 98.76 टक्के आसा. फाटल्या 24 वरांत 1 हजार 222 दुयेंत कोरोना मुक्त जाल्ल्यान वट्ट 4,24,98,789 जाण बरे जाल्यात. फाटल्या 24 वरांत 1023 नवे कोरोना दुयेंती मेळ्ळ्यात.

## आतां नेपाळांतूय परकीय चलनाचें संकश्ट

■ खबरां संस्था

**काठमांडू:** ज्या संकश्टा आड श्रीलंकेचें झूज चालू आसा. आतां त्याच संकश्टाच्या दारा कडेन भारताचो आनीक एक शेजारी नेपाळ पावला. श्रीलंके भशेन नेपाळांत लेगीत परकीय चलनाचो तुटवडो निर्माण जाला. नेपाळांतली परिस्थिती सामकी बिकट जाल्या. नेपाळच्या केंद्रीय बॅंकेन हेर बॅंकांक वाहनां आनी गरज नाशिल्ल्या साहित्या खातीर लेटर ऑफ क्रेडीट जारी करचे न्हय अशें सांगलां.

चैनीच्या वस्तूंचेर खर्च करपा बदला वखदांचे आयाती खातीर परकीय चलन साठो दवरचो पडटलो. आयात उणो करपाचे हेर उपाय निश्फळ थारल्या उपरांत हे निर्देश जारी केल्या अशें नेपाळ राष्ट्र बॅंकेच्या संशोधन विभागाचे मुखेली प्रकाश कुमार श्रेष्ठ हांणी म्हणलें.

# लडाखांत चीनाची परत घुसखोरी

■ खबरां संस्था

**नवी दिल्ली:** भारत- चीन शीमे वयल्यो घडणुको थांबपाचें नांव घेनात. चीन तरेकवार प्रकारान शीमेचेर तणाव कशो कायम उरतलो हें पळयता. लडाख वाठारांत शीमेचेर चीन सैनीक आशिल्ल्यान खंयचेय परिस्थितीक तोंड दिवपा खातीर भारतान थंय फाटल्या दोन वर्सां सावन आपलें सैन सज्ज दवोरलां. चीनाच्या हॅकर्सांनी शीमे वयल्या वीज केंद्राच्या ग्रीडाचेर घुसखोरी करपाचो यत्न केल्ल्याची म्हायती सामकार आयल्या.

उत्तर भारतांत लडाख आनी वाठारांतले वीज वितरण वेवस्थेंत घुसखोरी करपाचो यत्न चीनी हॅकर्सांनी केला. हाचे पयलीं चीनांतल्यान रॅड इको नावांच्या हॅकर्सांच्या पंगडान अशीच घुसखोरी करपाचो यत्न केल्लो. आतां टॅग-38 नांवाच्या एका हॅकर्साच्या पंगडान शॅडो पॅड नांवाचें सॉफ्टवॅर वापरून ग्रीडांत घुसखोरी करपाचो यत्न केला. अशी घुसखोरी करून राष्ट्रीय आप्तकालीन प्रतिसाद



प्रणाली मेरेन पावपाचो, घुसखोरी करून म्हायती मेळोवपाचो यत्न जाल्ल्याची म्हायती सामकार आयल्या. चीनाच्या परराष्ट्र मंत्रालयान हे विशीं कसलीच प्रतिक्रिया अजून दिली ना. मात हे निमतान भारता आड पावलां घालपाचो यत्न चीना कडल्यान जाता हें परत एक फावट सामकार आयलां.

# भारतांत तयार जातलीं 300 परस चड हत्यारां

■ खबरां संस्था

**नवी दिल्ली:** संरक्षण मंत्री राजनाथ सिंह हांणी बिरेस्तारा देशांत तयार करपाच्या स्वदेशी संरक्षण उपकरणांची तिसरी वळेरी केली. पंतप्रधान नरेंद्र मोदी हांच्या 'आत्मनिर्भर भारत'चे कल्पनेचे दिकेन संरक्षण मंत्रालयान घातिल्लें हें आनीक एक पावल आसा.

संरक्षण उपकरणाच्या स्वदेशीकरणाची यादी जाहीर करतना खोस जाता अशें राजनाथ सिंह हांणी सांगलें. हे वळेरेंत 101 हत्यारां आनी उपकरणाचो आसपाव आसा. ती हाचे फुडें विदेशांतल्यान हाडनास्तना फकत देशी उत्पादका कडल्यान विकतीं घेतले. हाच्या फाटल्यान भारतात संरक्षण उत्पादन केंद्र करपाचो उद्देश आसा अशें संरक्षण मंत्र्यान सांगलें.

हाचे पयलीं 21 ऑगस्ट 2020 दिसा स्वदेशी 101 हत्यारां आनी उपकरणांची पयली वळेरी जाहीर केल्ली. ते उपरांत 31 मे 2021 दिसा 108 हत्यारां आनी उपकरणांची दुसरी वळेरी जाहीर केल्ली.

## संरक्षण मंत्र्यांन जाहीर केली तिसरी वळेरी



बिरेस्तारा जाहीर केल्ले तिसरे वळेरेंत 101 हत्यारांचो आसपाव आसा. ताका लागून आयान करनात ते हत्यारांचे वळेरेंत 300 परस चड हत्यारांची भर पडल्या. ही हत्यारां आंतरराष्ट्रीय दर्जाची आततलीं अशें सांगलां.

तिसरे वळेरेंत नौदलाक उपेगी पडपी हेलिकॉप्टर आनी बोट आड तशेंच रेडिएन आड क्षेपणास्त्रां सयत म्हत्वाच्या प्रणालींचो आसपाव आसा. बोटी आनी पाणबुड्यां खातीर इंटरकॉम सिस्टम, आर्विल्लीं ऑफशोअर तेळटी बोडी, नेव्हल ॲन्टी ड्रोन सिस्टम, मोबायल ऑटोनॉमस लॉन्चर (ब्राम्होस), हवेंतल्यान जमनीर मारो करपी 68 एमएम रॉकेट, ड्रोनाक आडावपाक शकपी यंत्रणेचो आसपाव आसा.

पयले आनी दुसरे वळेरेचे अधिसुचोवणे उपरांत शशस्त्र दलान वट्ट 53,839 कोटी रुपयांच्या 31 प्रकल्पांच्या कबलातीचेर सही केल्याची म्हायती संरक्षण मंत्रालयान दिल्या. जाल्यार 1,77,258 कोटी रुपये मोलाच्या 83 प्रकल्पांचे गरजेक हयकार दिला. त्या भायर 2,93,741 कोटी रुपयांची प्रकरणा फुडल्या पांच-सात वर्सांत प्रगतीचे वाटेर येवपाचोी अदमास केला.

# 600 कोटींचो घोटाळो करून फराह खानाच्यो पाकिस्तानांतल्यान फुज्ज्यो

■ खबरां संस्था

**इस्लामाबाद:** पाकिस्तानचो आदलो पंतप्रधान इम्रान खान हाची घरकान्न बुशरा बीबी हीची लागींची इश्टीण फराह खान वट्ट 600 कोटींचो घोटाळो करून देशा भायर पळून गेल्याचें सांगतात. ताका लागून इम्रान खान पेंचात येवपाची शक्यताय आसा. 'द डॉन' दिसाळ्यान दिल्ले खबरे प्रमाण फराह खान फाटल्या आयतारा पाकिस्तानांतल्यान दुबय पळून गेले. तिचो घोव पयलींच विदेशांत दाखल जाला अशेंय सांगतात. विरोधी पाकिस्तान मुस्लीम लीग- नवाजची फुडारी रोमिना खुर्शीद हिणे फराहाचो एक फोटो ट्विटराचेर शॅर करून तिचेर गंभीर आरोप केला.

बुशहाची इश्टीण फराह खान देशांतल्यान पळून गेल्या. तिचे



कडेन आशिल्ले हॅंडगॅगेंत 90 हजार डॉलर्स, म्हणल्यार सुमार 68 लाख रुपये आसा अशें ट्विट रोमिना खुर्शीद हिणे केलां. हुरेन परवेझ ह्या ट्विटर युजरान लेगीत असोच आरोप केला. 38 लाख रुपया खर्च करून खाजगी जेट विमानात फराह दुबय गेलां अशें तांणे म्हणलां. सरकारी अधिकाऱ्यांचो बदल्यो आनी पोस्टिंगांत फराह खानान व्हडा प्रमाणांत जोड केल्या, हो घोटाळो सुमार 600 कोटीं परस चड आसा असो आरोप एमएम- एन पक्षाची उपाध्यक्ष आनी आदले पंतप्रधान नवाज शरीफ हांची चली मरयम नवाजान केला. फराह ही बडटी- बदल्यांच्या रॅकेटाची सूत्रधार आशिल्ली असो दावो तिणे केला.

मजगतीं, इम्रान खान सरकारा आड अविस्वास थाराव हाडपी विरोधक पाकिस्तानी संसदेत क्लीन बोल्ड जाल्या उपरांत ही लडाय आता सर्वोच्च न्यायालयांत पावल्या. लोकशाय पद्दतीन वेंचून आयिल्लें आपलें सरकार उडोवपाच्या परकीय शडयंत्राची चवकशी विशेश न्यायीक आयोग स्थापन करून करपाची मागणी इम्रान खान हांणी केल्या.